ती पालखेंतली
तिचो आतां शिंवासनार
बसपाचो वगत जालो,
आरत्यो म्हणात, चंवरां धाळात
दिमी मोडात, मानो बागयात...
ही पालखी भितर घेयात.
- पुंडलीक नायक

# जाग

रौप्या-उत्सवी वर्स

वर्स २५ • आंक ७ • फेब्रुवारी १९९९

ाग

◇ आंक ७ ◇ फेब्रुवारी १९९९

: रवीन्द्र केळेकार

ादपी : माधवी सरदेसाय

ी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

: डॉ. सुबोध केरकार

णूक : गणेश गांवकार, लइराई कम्प्यू.

## ह्या आंकांत



टी : रु. १००/-
खातीर : रु. ७५/-
ची पटी : रु. २५०/-
फ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
ांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
अदीक जोडचे)

मो :
म्हयनाळें
ालदेल अपार्टमेन्ट्स
दादिश, पाजीफोंड,
ोंय ४०३ ६०१.
ंकाचें मोल : रु. ९/-

# नदर संपादप्याची

## चार पुरुषार्थ, चार आश्रम

फ्रॉयड म्हणटा, मनीस जें कितें करता ताचे फाटल्यान काम-वासना भागोवप हीच एक प्रेरणा आसता. कामवासनेक ताणें Libido म्हूण एक शास्त्रीय नांव दिल्लें. कामवासना भागूंक पावली ना जाल्यार मनशाचें मन खंय असंतुश्ट उरता आनी तातुंतल्यान तरांतरांच्यो विकृतायो ताच्या जिवितांत वयर सरपाक लागतात.

मार्क्स म्हणटालो, मनीस जें कितें करता तें आपणाली अर्थवासना भागोवपा खातीर करता. 'प्रॉफीट मोटीव्ह' हीच खरी प्रेरणा ताच्या सगळ्या कामां फाटल्यान आसता. एक तर तो फायद्या खातीर कितेंय करता वा दुडू मेळटले हे प्रेरणेन करता.

आमगेल्या म्हालगड्यांक हें खबर आशिल्लें. फ्रॉयड जल्माक येवचे पयलींच कामवासनेक जिवितांत एक म्हत्वाची सुवात आसा म्हणपाचें तांकां कळिल्लें. म्हूण चार पुरुषार्थांत तांणी 'कामा'क पयलो पाट दिलो. पुणून, कामवासना भागोवपाक 'अर्था'चो आधार लागता म्हणपाचेंय तांणी पळेल्लें. म्हूण कामा फाटोफाट तांणी चार पुरुषार्थांत अर्थाक दुसरो पाट दिल्लो.

पुणून ते इतल्यार थांबले नात. ते म्हणपाक लागले, काम आनी अर्थ दोनूय सारकेच म्हत्वाचे पुरुषार्थ खरे. पुणून जातीन दोनूय असूर. तांकां मेकळे सोडूंक फावनात. मेकळे सोडले जाल्यार ते मनशाक मनीस जावंक दिवचे नात, ताचो दानव करून उडयतले. म्हूण, ह्या दोनूय पुरुषार्थांक तांचेर नियंत्रण दवरीत असल्या तिसऱ्या एका पुरुषार्था सुवादीन करूंक जाय. आनी तांणी 'धर्म' नांवाचो एक तिसरो पुरुषार्थ येवजून काडलो आनी काम आनी अर्थ दोनूय पुरुषार्थांक तांणी ताच्या हातांत काडून दिले.

धर्म म्हळ्यार बरें वायट पारखुपाची आनी दों मजगतचें बरें तें वेंचून काडपाची प्रेरणा दिवपी बुद्द. कामवासनाय भागोवपाची आनी अर्थवासनाय भागोवपाची. पुणून कशी ? कोणाचेंय लुकसान जायना, आपणाकूय वायटाक पडना हे भाशेन.

ते हांगाय थांबले नात. मनीस सभावाच्या आनीक एका आंगाकडेन तांचें लक्ष गेलें. तांणी पळेलें, मनीस कित्यांतूय घुसपून उरूं, तो आपणाक खंयच्याय पासांत बांदून दवरूंक तयार ना. सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळो जावपाची ताच्यांत आनीक एक प्रेरणा काम करता. विमुक्ती-सूख हें मनशाचें सगळ्यांत व्हडलें सूख. तें मेळचें म्हूण तो आनीक कित्याय परस चड आंवडेता. तांणी हेवूय प्रेरणेक चार पुरुषार्थांत भौमानाची सगळ्यांत वयली सुवात दिली. आनी ताका 'मोक्ष' हें नांव दिवन आमकां सांगलें –

हे चार पुरुषार्थ आमी तुमचे फुड्यांत दवरल्यात. चारूय पुरुषार्थ जिविताच्यो चार मुखेल प्रेरणा. हांतली धर्माची वा मोक्षाची (विमुक्ती सुखाची) प्रेरणा बळिश्ट जाली जाल्यार काम आनी अर्थ, दोनूय प्रेरणा मोव पडटल्यो आनी, काम आनी अर्थ बळिश्ट जाल्यो जाल्यार धर्माची आनी मोक्षाची प्रेरणा मोव पडटली. जिवितांत चारींकूय म्हत्व आसा. चारींकूय सुवात आसा. तांचें 'प्रमाण' सांबाळून जियेयात. म्हणटकूच –

तुमी तुमच्या जिविताचें भांगर करतले.

* * *

चार पुरुषार्थां सारके चार आश्रम.

हांतलो गृहस्थाश्रम सगळ्यांत म्हत्वाचो. तो बेस बरो चलचो म्हूण जी निपुणताय, कुशळताय, योग्यताय गरजेची ती पयल्या आश्रमांत – ब्रह्मचर्याश्रमांत जोडपाची. ब्रह्मचर्याश्रम जितलो उत्कट आसतलो तितलोच घटमूट गृहस्थाश्रम जातलो. पंचवीस ते पन्नास मेरेनच्या गृहस्थाश्रमांत मान भौमान, सस्या संपत, जोडपा सारकें सगळें जोडपाचें. पन्नास भर जातकूच – जांवंय वा सून हाडटकूच, आनी घरांत नातू वा नात खेळूंक लागतकूच – सगळें सोडून दिवपाचें आनी फुडलीं पंचवीस वर्सां – पन्नास ते पंच्यात्तर मेरेनचीं – समाजाक दीत रावपाचें. ह्या तिसऱ्या आश्रमाक वानप्रस्थाश्रम हें नांव तांणी दिलें. ह्या नांवांतलें 'वन' हें उतर पळोवन पन्नास जातकूच मनशान घर संवसार सोडून वनांत (रानांत) वचून रावपाचें असो कांय जाणांनी समज करून घेतलो. खरेपणानशीं 'वन' म्हळ्यार 'रान' न्हय. एकावन, बावन, पंचावन, सत्तावन हातुंतलें वन – इंग्रजींत फिफ्टीज. समाजसेवेक बऱ्यांतली बरी पिराय ही. पंचवीस ते पन्नास मेरेन समाजाकडल्यान घेतलें. आतां पन्नास ते पंच्यात्तर मेरेनचे पिरायेंत समाजाक दीत रावपाचें. घेवप हो आमचो अधिकार आशिल्लो. दिवप ही आतां आमची लागणूक जाता.

आगळे वेगळे परिस्थितींत मनशाक केन्ना केन्ना राजकर्णांत उडी घेवची पडटा. देखीक, देश गुलाम आसता तेन्ना. हरशीं पन्नास मेरेन कोणाक राजकर्णांत पडपाची गरज भासूंक फावना. पन्नास भर जातकूच पडचें. निःस्वार्थ सेवेचें मळ हें. आनी, पन्नास ते पाउणशें वर्सां हें निःस्वार्थ सेवेचें वय. राजकर्णाक, समाजसेवेक फावऽ सारकेंच. घरदार सोडून न्हय, घरांतूच रावन, पुणून घरच्यो सगळ्यो जापसालदारक्यो पुता हातांत दिवन आपणाक रासवळ मळार सेवा करपा खातीर मेकळो करप हो उद्देश ह्या तिसऱ्या आश्रमाचो.

कितले खोलायेंत देंविल्ले आमचे म्हालगडे जिविताच्या प्रस्नांत!

पयलीं सांगलें, 'कुर्वन्नेवेह कर्माणि जीजिविषेत् शतं समः' करण्यो करीत करीत मनशान शंबर वर्सां जियेवपाची आस्त धरची. रोखडेंच सांगलें, 'एवं त्वयि नान्यथेतोऽस्ति' – तुजे मुखार होच एक मार्ग आसा. दुसरो ना. निवृत्तिचें (रिटायरमेन्टाचें) तांणी केन्नाच चिंतलें ना. ना, निवृत्ती मनशाक ना. काम करितच शंबर वर्सां जियेवपाचें. पुणून कसलीं कामां? ते ते पिरायेर तीं तीं. त्या त्या आश्रमांत तीं तीं. ब्रह्मचर्याश्रमांत आसतना गृहस्थाश्रमाचीं कामां करपाचीं न्हय. आनी वानप्रस्थाश्रमांत पांवतकूच गृहस्थाश्रमाचीं निखालूस करपाचीं न्हय. असंतोशाक जिवितांत सुवातूच उरना.

वानप्रस्थाश्रमा उपरांत येता तो संन्यासाश्रम. हाका संन्यासाश्रम नांव केन्नासावन पडलें, खबर ना. पुणून हें नांव चुकिचें. खरेपणानशीं हो आश्रम 'साम्पराया'चे तयारेचो.

साम्पराय म्हळ्यार मरणा उपरांतचें जिवीत.

सरसमान लोकांचो साम्पराय पणजो जायसर उरता. शेणजो जातकूच मनीस शेणटा. ताच्या वंशजांकडलो ताचो संबंद तुट्टा. पुणून कांय जाणांचो साम्पराय शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सां चलता. अडेज हजार वर्सां जालीं, बुद्धाचो चलता. दोन हजार वर्सां जालीं ख्रिस्ताचो चलता. मरणा उपरांतचें हांगेलें जिवीत तांच्या मरणा आदल्या जिविता परस चड काळ चलत रावलां. म्हूण तांगेलें हेंच जिवीत खरें म्हणूंक जाय. सरसमान लोकांक हें कळना – 'न साम्पराया प्रतिभाति बालम्.' मनशाचो साम्पराय केदो आसचो हें ताचें मरणा आदलें जिवीत थारायता म्हूण, ताची तयारी करपा खातीर हो चौथो आश्रम आमच्या म्हालगड्यांनी आमचे मुखार दवरला.

पंचात्तर जालीं म्हणटकूच सगळीं कामां सोडून आध्यात्मिक जिवीत जियेवपाचें. साम्परायाचे तयारेन.

खूब पयसो जोडुनूय मनीस दुख्खी कित्याक आसचो? – चार पु
मजगतच्या एकाच पुरुषार्थाक घट धरून बसलो म्हूण, ही जाप मे
फकत 'अर्था' फाटल्यान लागतकूच आनी उरिल्ल्या तिनूय पुरुष
उवेखणी करतकूच मनीस 'मनीस' उरना. पयशे जोडपी एक यंत्र
पडटा. आनी सगळीं यंत्रां कांय वर्सां उपरांत जशीं एक तर झरून
वा मोडटात तसो होवूय झरून वता वा मोडटा. पयशे आसुनूय
दुख्खी आसता तो हे खातीर.

म्हातारपणांत मनीस सभावान चिडचिडो जाता. ओगीत वचत
ताणशेता. मनीसघाणो जाता. कित्याक? चार आश्रमां मदल्या एका आ
तो दसून रावता म्हूण. ते तै पिरायेर तीं तीं कामां सोडून दिवंक
हें ताका कळिल्लें नासता म्हूण. मरऽसर एकाच गृहस्थाश्रमांत रावता

जिवीत सुखांत वचचें, संतुश्ट उरचें, मनशान धादोसभरीत जि
अशें आमकां दिसता आसत जाल्यार मनशाक चारूय पुरुषार्थांचे
चारूय आश्रमांचें प्रमाण सांबाळून जियेवंक येवंक जाय. एकाच ख
पुरुषार्थाक मनीस धरून रावलो वा एकाच खंयच्या आश्रमाक घट
रावलो जाल्यार तो दुख्खी जावंकूच जाय.

दुसरे खंयचेय परंपरेंतल्या म्हालगड्यांनी हे तरेची संतुलीत जि
जियेवपाची कला विकसावन काडिल्ली आसत व्हय? म्हाका खबर

## घुस्पल्लें जानवें – ४

भारत, पाकिस्तान आनी बांगलादेश आयज संवसारामुखार तीन
सार्वभौम राष्ट्रां म्हूण उबीं आसात. मुदलांत हीं एकाच देशाचीं तीन
हांचे पंगतीक नेपाळ, भूतान आनी श्रीलंकेकूय हाडून बसोवंक
म्हणटकूच, ह्या सवूय राष्ट्रांचो देश खंयचो तें लक्षांत येतलें.

सार्क चळवळ हेंच ह्या सवूय राष्ट्रांक पटोवपाचो यत्न करता.

ह्या राष्ट्रांक एक देश भुंयगोलान केला. इतिहास बदलूं येत. भु
बदलूंक येना. संस्कृतायेचे नदरेनूय हो एक देश. ह्या देशाचीं प्रा
आंगां कितलींय आसूं – व्यास, वाल्मीकी, विश्वामित्र, वसिष्ठ आमचे
अशें खंयचोच प्रदेश म्हणचोना. पुराय देशाचे रुशी हे. खंयच्या वा
तांचो जल्म जाल्लो, कोणाक सांगूंक येवचें ना. पुणून ते जल्माक आयि
वाटारांतले उरूंक नात. सगळ्यांचे जाल्यात. उपनिषदां जितलीं
लोकांचीं तितलींच मराठी, गुजराती, बंगाली लोकांचीं. बुद्धाचो जल्म ने
जाल्लो आसूं, तो तितलोच बिहारांतल्याय लोकांचो. मथुरेंतल्या, सांचीं
सिक्कीम, भूतान, श्रीलंका ह्याय वाटारांतल्या लोकांचो. रामायण, महा
भागवत ह्या ग्रंथांचीं देशी भासांचीं कितलींय रूपांतरां जाल्लीं आसूं, मु
संस्कृत ग्रंथ सगळ्यांचेच म्हणूंक जाय. प्रादेशीक वेगळेपणाचेर आमी कि
भर दिली तरूय संस्कृतायेचें जें मूळ दायज सगळ्यांच्या वांट्याक
तें काडून उडयत जाल्यार 'प्रादेशीक' म्हूण वेगळें कोणाचेंच कितेंच
ना.

कदीम काळा सावन ह्या देशांत तरांतरांचे लोक येत रावले. तरां
वंशाच्या, तरांतरांच्यो भासो उलोवपी, धर्म-परंपरा चालिरिती
ह्या लोकांक संस्कृतायेच्या एका सुतान गुथून काडपाचें काम
म्हालगड्यांनी केल्लें. ज्या सुतान सगळ्यांक गुथून काडिल्ले तें
आर्य सूत नाशिल्लें. आर्य-अनार्य हांचे भरसणेन जी संमिश्र सं
जल्माक आयिल्ली तिचें घट्ट सूत आशिल्लें. ही संमिश्र संस्कृताय
उरूंक ना, अनार्यूय उरूंक ना. हे संमिश्र संस्कृतायेन उपरांतच्या
अरबी फारसी संस्कारांत वाडिल्ल्या देशी मुसलमानांकूय हेरां वांगडा
गुथपाचो वावर केला. भायल्यान राज्यकर्ते म्हूण जे मुसलमान
ते मुदलांत वाटमारे आशिल्ले. खंयूय वताले, देश घेताले आनी
सत्या हातांत घेवन रावताले. हांगाय तांणी हेंच काम केल्लें.

कडले नाशिल्ले. वेगळे वेगळे कडले आशिल्ले. एके कडले
ार करून सत्या हातांत घेतली आनी हांगाच रावले. ते
दुसरे कडले आयले. तेवूय मुसलमानच आशिल्ले. तांणीय
ले. लूटमार केली. आदल्या आयिल्ल्या मुसलमानांक मारले.
हातांत घेवन हांगासरले जावन रावले. म्हणटासर तिसरे
तांणीय तेंच केलें. सुमार पांच स शतमानां तांचो हो अच्छेव
जीं झुजां केलीं तीं हिन्दू मुसलमानां मजगतचीं झुजां नाशिल्लीं.
मुसलमानां मजगतींच झुजां आशिल्लीं. मुदलांतले हे मुसलमान
शांतल्या मुसलमानां मजगतीं सोदूंक गेल्यार लेगीत मेळपाचे
जांकां आमी मुसलमान म्हूण वळखतात – जे पाकिस्तान
सरल्यात – ते भायले मुसलमान न्हय. भायल्यांचे वंशजूय
सरलेच, देशी. बाटून मुसलमान जाल्ले. कांय जाणांक बळ्यां
कांय आपूण जावन बाटल्यात. मुदलांतले हे हिन्दू. हिन्दू
कां मनशां भाशेन लेगीत जियेवंक मेळना – हिन्दू आमकां
ट मानतात – अशें म्हणून आपूण जावन हिन्दू समाजाक
भायर सरल्यात वा हिन्दुंनी तांकां भायर घाल्यात. हे सगळे
लमान आपणाक हिन्दूं परस कितलेय वेगळे मानूं, अरबस्तान,
तुर्कस्तान बी वाटारांतल्या मुसलमानांचे नदरेन ते 'हिन्दुस्तानी'
उरल्यात. ते हिन्दूं परस वेगळे आसूं, अरबी, इराकी, इराणी,
नांपरसूय वेगळे. चालिरिती, रुढी-परंपरा, भेस, भास,
संगीत सगळ्या मळांर ते हिन्दूं सारकेच हिन्दुस्तानी. पोटा
याय मुस्लीम देशांत वचून रावूं, सोयरिको करपाक ते ह्याच
हांकांय संस्कृतायेच्या एका सुतान हिन्दूं वांगडा बांदून काडपाचें
म्हालगड्यांनी केलां. दिल्लींतल्या निजामुद्दीन अवलियाच्या
वन नवसां करपाक आयजूय हजारांनी हिन्दू वतात. अजमेरच्या
र्याकूय भक्तिभावान भेट दिवपी हजारांनी हिन्दू आयजूय
टात.
गोंयांत लेगीत आमी ही भावकी पळेतात. पोरण्या गोंयां सां
टेक वचून, मेणवाती पेटोवन नवसां करपी हजारांनी हिन्दू
टले. तशे फातर्पेकान्नीक वा जांबावलेच्या दामोदराक प्रसाद
ांनी किरिस्तांवूय पळोवंक मेळटले.
, रहमान कहो कोऊ / कान्ह कहो, महादेवरी / भाजनभेद
ा / एक मृत्तिका रूप री' असलीं भजनां बेश्टीं लोकांचे
त. समन्वयाची साधना देश पोटतिडकेन करता तेन्नाच असलीं
ाक येतात.

स्न उपरासता – एकाच देशाचीं स राष्ट्रां कशीं जालीं? कांय
त, हिन्दू, मुसलमान, शिख, किरिस्तांव एकामेकांक सारके
 पावले नात म्हूण जालीं. एकामेकांक वळखुपाचो, समजून
ी केन्ना यत्न केलो ना म्हूण जालीं. एकामेकांक वळखुपाक
कामेकां लागसार येवंक जाय. हिन्दू, मुसलमान, शिख,
ोणूच कोणा लागसार केन्ना गेले नात. केन्नाय एकामेकां शेजरा
तेन्नाय ते एकामेकां पसून मनान पयसूच रावले. फकत हिन्दू,
फरिस्तांव एकामेकांक वळखूंक पावले नात अशें न्हय. मुसलमानां
या सुन्नीय एकामेकांक वळखूंक पावले नात. किरिस्तांवां मदले
टेस्टंटूय एकामेकांक वळखूंक पावूंक नात. तें कित्याक, हिन्दूय
ारके वळखूंक पावूंक नात. हिन्दुंच्यो हजार जाती. 'आमच्या
देश ना, आमच्या धर्मा सारको धर्म ना' अशें मानपी लोक
नीन हिन्दुंचीं जीं वर्णनां केल्लीं तीं हिन्दूं मदल्या सगळ्या
करूं येतात. 'आमचे जाती सारकी जात ना; आमच्या चालिरितीं
सारक्यो चालि-रिती नात; आमचेर पडल्यात तसले संस्कार कोणाचेर
पडूंक नात' असो सगळ्या जातिंचो एकामेकांविशिंचो समज.

आनी तरी आसतना लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, सुमार
स हजार वर्सां सावन ह्या देशाची संस्कृताय व्हांवती जाल्ले वरी अखंड
चलत आयल्या. कांय समाजशास्त्री म्हणटात, सगळ्यांनी एकामेकांक
आपणाले तरेन जियेवपाची मेकळीक दिल्ल्यान भारतीय संस्कृताय इतलीं
वर्सां चलूंक पावल्या, तिगूंक पावल्या.

तेच बरोबर ते हेंवूय सांगतात, तुमची संस्कृताय हेवूय मुखार चलत
उरची – एक आदर्श संस्कृताय म्हूण संवसारा मुखार उबी रावची –
अशें तुमकां खऱ्यांनीच दिसता आसत जाल्यार एक करात – 'आमी
व्हड तुमी उणाक', 'आमी वेगळे तुमी वेगळे' हे जे संस्कार घट पाळांमुळां
धरून तुमचे तकलेंत उरल्यात ते तकलेंतले हुमटावन काडात आनी 'भारत
आमचो देश, आमी सगळे भारतीय' हो एक नवो संस्कार केळोवन तो
तकलेंत घट करात.

स्वराज्याचे चळवळींत 'आमी सगळे भारतीय' हो संस्कार केळोवपाचो
वावर मोटे पोटतिडकीन एके वाटेन समाजसुधारकांनी चलयल्लो तर दुसरे
वाटेन राजकी मळावयल्या राष्ट्रीय नेतृत्वान चलयल्लो. रामकृष्ण, विवेकानन्द,
रवीन्द्रनाथ, सुभाषबाबू हांकां कोणें बंगाली लेखले नात. खान अब्दुल
गफ्फार खान, मौलाना आझाद हांकां कोणें मुसलमान मानले नात. गांधी,
सरदार गुजराती नाशिल्ले, टिळक गोखले मराठी नाशिल्ले. जवाहरलाल
सारस्वत ब्राह्मणूय नाशिल्ले, काश्मिरीय नाशिल्ले. आचार्य कृपालानींक
कोणें सिंधी मानले नात आनी जयप्रकाशांक कोणें बिहारी लेखले नात.
मध्ययुगांत शंकराचार्यांक कोणें दक्षिणी लेखलो ना तशे आर्विल्ल्या ह्या
काळांत राजाजींक कोणें मद्रासी मानले नात. लोहिया तर म्हाका सदां
गोंयकारूच दिसल्यात. सगळे पुराय देशाचे नेते आशिल्ले. सगळे आकारान
'भारतीय' आशिल्ले. आनी––

हांचे कडेन राष्ट्रीय फुडारी म्हूण पळेतले आमीय सगळे संस्कारान
'भारतीय' जाल्ले.

भारतीय आकाराच्या नेतृत्त्वाचो प्रभाव आमच्या राष्ट्रीय जिविताचेर
चलिल्लो आसतनाच दुसरे वाटेन ह्याच काळांत जिनांच्या रुपान एक
'मुस्लीम' नेतृत्व उदेल्लें – ताका फकत मुसलमानूच लागताले, बाकिचें
कोणाचें पडूंक नाशिल्लें. दुसरे वाटेन सावरकरांच्या रुपान एक 'हिन्दू'
नेतृत्व वयर सरिल्लें – ताका फकत हिन्दुंचेंच पडिल्लें. दुसऱ्या कोण्णाचें
पडूंक नाशिल्लें. आनी तिसरे वाटेन आंबेडकरांच्या रुपान दलितांचें नेतृत्व
मुखार सरिल्लें – ताका दलीत सोडून कोण्णाचें कितेंच लागनाशिल्लें.

स्वराज्य आयलें आनी हें दुसरें जातीय आनी सांप्रदायीक नेतृत्व ल्हवू
ल्हवू करून देश आपणा हातांत घेवन बसलें.

अशें कित्याक लागून जावंक पावलें?

स्वराज्य आपणा वांगडा लोकशाय नांवाचो एक बुलडोझर घेवन आयलें
आनी ह्या बुलडोझरान आपणाक हेरां परस व्हड मानतल्या सगळ्यांच्यो
व्हडपणाच्यो दोंगुल्ल्यो मातयेभरवण करून सगळ्यांक एका तळार घाले
– जण एकल्याक एक मत दिवन 'तुमी व्हड तुमच्या घरा' म्हूण सांगून
व्हडांक हेरांच्या पांवड्यार हाडून बसयले, पुणून 'आमी वेगळे, तुमी वेगळे'
ह्या संस्काराक मात ती इल्लो लेगीत हात लावंक पावली ना म्हूण. 'आमी
व्हड, तुमी उणाक' ह्या संस्कारा इतलोच 'आमी वेगळे, तुमी वेगळे' हो
संस्कार पाळांमुळां घट रिगोवन बशिल्लो, तो हुमटावन उडोवपा वांट्याचो
ताका उदक सारें घालून तिणें आदले परस तो अदीक घट केलो म्हूण.

राजकी वा आर्थिक मळावयले आमचे लाव, आमचे हितसंबंद, आमचे
सुवार्थ आमच्याच संप्रदायाच्या वा आमचेच जातिच्या मनशांच्या हातांत
सुगूर, हुस्क्या-मेकळे, घट उरतले, ते तांच्याच हातांत दिल्ले बरे –

इतलेंच न्हय, तर आमी घाळ उरले जाल्यार दुसऱ्या संप्रदायांचे वा जातिंचे लोक आमकां खावन उडयतले आनी आमी शेणटले, नाच जावन वतले, असो लोकशायेन सगळ्या जातीं-संप्रदायांचो समज करून दिला. म्हूण आयज सगळ्या जातीं-संप्रदायांचे लोक एकठांय येवन 'आपल्या'च मनशाच्या हातांत सत्या दिवपाचो जागरूक यत्न करीत आयल्यात.

जातीय वा सांप्रदायीक राजकर्णाची ही बुन्याद नियाळून पळोवंक जाय, तर्जून पळोवंक जाय. म्हणटकूच ती कितली फटकिरी, कितली भ्रामक तें लक्षांत येतलें. खंयच्याय हिन्दू कारखानदाराचे आनी ताच्या कारखान्यांत काम करतल्या हिन्दू कामदाराचे सुवार्थ आनी हितसंबंद एक आसूं नजत. खंयच्याय किरिस्तांव भाटकाराचे ताच्याच भाटांत काम करतल्या किरिस्तांव वावराड्या मानायाचे संबंद एक आसूं नजत. कारखानदार कोणूय आसूं – हिन्दू, किरिस्तांव, मुसलमान, बामण वा भौजन समाजांतलो आसूं – सगळ्या कारखानदारांचे सुवार्थ आनी हितसंबंद सारके आनी कामदार कोणूय आसूं – हिन्दू, किरिस्तांव, मुसलमान, बामण, सुदीर कोणूय, तांचे सुवार्थ आनी हितसंबंद सारके. कारखानदारा परस वेगळे – म्हणपाचें लोकांक जेन्ना पट्टलें तेन्ना सांप्रदायीक वा जातीय राजकर्ण सोंपतलें. पुणून, हें काम आयची लोकशाय करपाची ना. तिचे शिमे भायलें तें.

आयची लोकशाय आमकां जाटांचें नेतृत्व दीत. मराठ्यांचें दीत. क्षत्रीय भांडारी लोकांचें दीत, खारव्यांचें, बामणांचें, गावड्यांचें दीत. किरिस्तांवांचें, मुसलमानांचें, शिखांचें दीत. भारतीय आकाराचें नेतृत्व ती केन्नाच दिवंक पावची ना. भारतीय आकाराच्या नेतृत्वाक आयचे मत-पेटयेंत सुवातूच ना. धरूंया, जवाहरलाल आयज आशिल्ले आनी ते गोंयचे विधानसभेची तिकेट मागपाक गोवा प्रदेश कॉंग्रेस कमिटीसरीं आयिल्ले जाल्यार 'तुमी हिन्दू जाल्ल्यान कुरतरे कुठ्ठाळे वेंचून येवपाचे नात आनी सारस्वत ब्राह्मण जाल्ल्यान फोंड्यां, प्रियोळ वा मडकय उपकारा पडनात अशें सांगून तांगेलीच कॉंग्रेस तांकां विधानसभेची तिकेट दिवची नाशिल्ली. आयची मतपेटी जवाहरलालांक जवाहरलाल जावंक दिना. आयची मतपेटी जवाहरलाल केन्नाच निर्माण करची ना. जवाहरलाल, लोहिया, जयप्रकाश हांचे सारके नेते निर्माण करपाची तांकूच आमचे लोकशायेंत ना. आनी—

बरोवन दवरिल्लें बरें – जवाहरलाला सारके नेते आमी निर्माण करूंक पावले नात जाल्यार देश अखंडूय उरपाचो ना, स्वतंत्रूय उरपाचो ना. तो फुट्टलो. आयज ताचीं स राष्ट्रां जाल्यांत. फाल्यां पंचवीस जातलीं.

मतपेटयेची सुवात दुसऱ्या खंयच्या तरी लोकतांत्रीक विकल्पान घेवंक जाय.

स्वराज्या आदल्या चार दसकांचो आनी स्वराज्या उपरांतच्या चार दसकांचो विचार करतां तेन्ना एक व्हडलो फरक म्हजे नदरेंत भरता. स्वराज्या आदीं भायर गुपाट काळोख पातळ्ळेलो. पुणून कांय जाणांच्या काळजांत घणघणीत उजवाड पेटिल्लो आशिल्लो. स्वराज्या उपरांतच्या ह्या चाळीस वर्सांत भायर उजवाडूच उजवाड पातळ्ळा. भितर काळजांत मात सगळ्यांच्या काळोख दाटला.

## शाळा कॉलेजांची जापसालदारकी

शिंक्षकां मुखार केदे व्हड आदर्श दवरिल्ले आमच्या म्हालगड्यांनी!

वेदीक काळांतली एक कथा वाचिल्ली—

त्या काळांत शाळा कॉलेजां नाशिल्लीं. भुरगे कोणूय नांवाजतो गुरू सोडून काडटाले आनी ताचे सरीं रावन शिकताले. गुरू तांकां व्याकरण निरुक्त सगळें शिकयतालो. ते भायर समाजांत बरे 'गृहस्थ' जावन कशें चलचें हेंवूय शिकयतालो. तांच्या संस्कारांचेर चड लक्ष दितालो आनी भुरग्यांचें शिक्षण पुरें जालां, ते संस्कारी जाल्यात, अशें ताका दिसतालें तेन्ना तांकां 'तुमचें शिक्षण आतां पुरें जालां... आतां घर संवसार घेवन तुमच्यांनी बसूं येता' अशें सांगून घरा धाडटालो.

हाका 'समावर्तन' म्हूण नांव आशिल्लें.

एका गुरुगेर एक भुरगो शिकूंक गेलो. तो गेला त्या वर्सा आनीक कांय भुरगे थंय शिकूंक आयले. उपरांतच्या कांय वर्सांनीय आनीक कांय आयले. गुरून ताचे वांगडा आनी ताचे उपरांत आयिल्ल्यांकूय समावर्तन दिवन घरा धाडून दिले. हाका धाडलो ना. हाका वायट दिसलें. तेन्ना गुरूक विचारलें, 'म्हजेर हो अन्याय कित्याक केलो तुमी?'

'तुजेर अन्याय करूंक ना... तुजें शिक्षण अजून पुरें जावंक ना म्हूण तुका समावर्तन दिवंक ना.' गुरून जाप दिली.

'तशें जाल्यार हांव तुमची आज्ञा घेनासतना वतां घरा.' शिष्यान म्हळें.

'वच... तुका कोणें आडायला?'

भुरगो गुरु-घर सोडून घरा गेलो.

ते मुस्तींतले आवय-बापूय आपणाले धुवे खातीर थळ सोदताले तेन्ना भुरग्याच्या कुळ-शिळा भायर तो खंयच्या गुरुसरीं रावन शिकला हेंवूय पळेताले. उपरांतूच ताका सोयरीक घेवन वताले. हाका कोणाचीच सोयरीक आयली ना. तेन्ना हो दुसऱ्या गांवांत गेलो. थंयूय हाका गुरून समावर्तन दिवंक ना म्हणपाचें वर्तमान पाविल्लें. थंयूय ताका कोण सोयरीक घेवन आयलो ना. हो उठून आयिल्लो तसो गुरूसरीं आयलो. 'म्हाका कोणूच चली दिनात', ताणें गुरूक सांगलें.

'पुता, तुमचे आवय-बापूय तुमकां आमगेर धाडटात ते फकत व्याकरण निरुक्त शिकपा खातीर न्हय, वेद शिकपा खातिरूय न्हय... तुमी बऱ्यांतले बरे 'गृहस्थ' जावंक पावचे, बरे नागरीक जावचे, म्हूण धाडटात... कळ्ळें? आमचेर पातयेवन चलयांचे आवय-बापूय अर्थ अपुबयिन वाडयल्ली आपणाले धूव, मागीर, तांकां दितात. जाका गुरून समावर्तन दिवंक ना, जाचें शिक्षण सारकें जावंक ना तो धुवेक बरे भाशेन वागयतलो हाचें खरेपण कोणाक दिसना. म्हूण समावर्तन घेनासतना गेल्ल्याक कोण चली दिनात...'

शिष्याचे दोळे उकते जाले. 'चुकलों हांव', ताणें म्हळें आनी आनीक कांय वर्सां तो गुरुगेर रावलो.

ते मुस्तींतले सगळे गुरू आपणाली ही पत राखपा खातीर खूब जतनाय घेताले. इतलेंच न्हय, तर तांच्यांतलो कोणूय आपणाले हे लागणुकेक चुकताले तेन्ना ते ताका स्रापूय दिताले.

एक खेपे एका गुरून आपणाल्या एका शिष्याक ताची सारकी परिक्षा घेनासतनाच समावर्तन दिलें. तो घरा गेलो तेन्ना ताका सोयरिको येवपाक लागल्यो. आवय-बापायन् एक सोयरीक मान्य केली आनी हाचें लग्न केलें. कांय दिसांनी हो बायलेक छळपाक लागलो. चलयेच्या आवय-बापायक खूब वायट दिसलें. इतल्या नांवाजत्या गुरुगेर रावनूय हो असो अन्नाडी कसो उरला हाचें तांकां अजाप जालें. खबर चोंय दिकांनी पातळ्ळी. तेन्ना भोंवतणच्या वाटारांतले गुरुयात्रेचें निमित्त करून त्या गुरुगेर गेले. 'तुजेसरीं रावन हो भुरगो असो अन्नाडी कसो उरलो?', तांणी विचारलें. गुरून म्हळें, 'म्हजें चुकलें. हांवें ताची सारकी परिक्षा घेतली ना. घाळ उरलो. तो बायलेक छळटा म्हणपाची खबर म्हज्या कानार आयली तेन्ना म्हाका खूब वायट दिसलें... हे मुखार अशें केन्ना घडचें ना...'

सगळ्यांनी एका ताळ्यान ताका म्हळें, 'तुजे हे जापेन तूं सत्यवादी म्हणपाचें दिसून आयलें. तुका पच्छाताप जाला हेंवूय पळोवंक मेळ्ळें. पुणून तुका लागून गुरुकुळांची जी पत होगडावल्या तिका प्रायश्चित्त ना... तुका आमी स्राप दितात, तूं आतां चांडाळ जातलो...'

आनी तो चांडाळ जालो. गुरू ब्रह्मनिष्ठ आसून लेगीत – सत्यवादी आसून लेगीत – लागणुकेक चुकिल्लो म्हूण ताका चांडाळ ज़ावचो पडिल्लो.

आयज गुरुकुळां नात. शाळा कॉलेजांनी आयज गुरुकुळांची सुवात घेतल्या. पुणून गुरुकुळांची जी पत आशिल्ली ती आयच्या शाळा कॉलेजांनी

व्हय ? आमचे शाळेंतल्यान शिकून गेल्लो भुरगो फटींग, भ्रष्ट, वचो ना हाची एक तरी शाळा कॉलेज जतनाय घेता व्हय ?

## साहित्य – जिविताचें एक उपफळ

गुजी खंय 'लेखक' आशिल्ले !

खक आशिल्ले ?

गुरुजींक वळखतां आमच्या स्वातंत्र्य-संग्रामांतले एक शूर रुपान. देश स्वतंत्र जावचो म्हूण तांच्या आयुष्यांत जाल्यात ळवळिंनी तांणी वांटो घेतला. कितलेशेच खेपे बंदखण भोगल्या. रूप म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावता तें तळमळिच्या एका काचें. हरिजनांक पंढरपुरचें देवूळ उकतें जावचें म्हूण तांणी तो. ते भायर, ते एक बऱ्यांतले बरे राष्ट्रीय शिक्षक आशिल्ले. सांगातांत तांगेलें आयुष्य खर्चल्लें. भुरग्यांचे गिन्यानाचे दोळे वे म्हूण ते आयुष्यभर धडपडिल्ले. धडपडपी फकत भुरगींच नांचे भोंवतणीं. भुरग्यां मजगतीं खासा ते एक 'धडपडणारे' शिल्ले. कितल्या तरणाट्यांक तांणी देशसेवेची देख दिल्ली ! संस्कारांत वाडिल्ल्या पुण्यांत जें कितें मांगल्य, पावित्र्य आयज ा तें तांगेल्या ह्या विद्यार्थ्यांनी निर्माण केलां.

महाराष्ट्रांत खूब जावन गेल्यात, खूब आसात. साने गुरुजी त गेले.

राठी लोकांची खोड ही, केद्याय व्हड मनशाक कितलेय ल्हान हजे मुखार काकासाहेब खाडिलकर उबे रावले. खाडिलकरांक कोण म्हूण वळखतात ? एक नाटककार म्हूण.

मान्यांचो उजवो हात आशिल्ले; लोकमान्य आनी क्रान्तिकारी मर्दी संबंद जुळोवन हाडपाक ते हिन्दुस्तानभर भोंविल्ले; चे 'केसरीं'त जळजळीत लेख बरोवपी ते एक पत्रकार आशिल्ले. या ज्या लेखांक लागून लोकमान्यांक स वर्सांची ख्यास्त भोगची खाडिलकरांनी बरयल्ले, हें सगळें कशे विसरले मराठी लोक ? 'नाटककार' लेखून देवल, गडकरी हांचे पंगतीक व्हरून बसोवप जायना तांचेर ? खाडिलकरांनी नाटकां बरयलीं तीं निखटे नाटककार ह्या नात्यान न्हय. एक राष्ट्रसेवक ह्या नात्यान बरयल्यांत. ते राष्ट्रसेवक नाशिल्ले जाल्यार 'किचक-वधा'सारकें नाटक ते बरोवंकूच पावचे नाशिल्ले. निखट्या नाटककाराक असलें नाटक बरोवंक येवपाचें ना.

धरूंया, तांणी एकूय नाटक बरोवंक नाशिल्लें जाल्यार महाराष्ट्र तांकां कोण म्हूण वळखतलो आशिल्लो ? 'कोण न्हय' म्हूण तांकां विसरायेच्या काळखांत धुकलून उडयतलो आशिल्लो ?

नशीब, म्हळें, गांधी आनी जवाहरलाल हांचें. दोगांयनी आत्मकथा बरयल्यात त्योच पुरो दोगांकूय व्हडांतले व्हड लेखक मानपाखातीर. मराठी लोकांचे नदरेंत ते फकत 'लेखक' उरूंक नात. दुसरे कोण तरी म्हूण उरल्यात. कोण ते म्हाका खबर ना. वासपूस करची पडटली. म्हणटासर सट्ट जालें. म्हळें, गांधी 'सत्याचे प्रयोगा' सारकी आत्मकथा बरोवंक पावले. कित्याक, आयुष्यभर ते सत्याचेच प्रयोग करीत आयिल्ले. तांगेली आत्मकथा तांगेल्या प्रयोगांचें एक उपफळ. तांणी हे प्रयोग करूंक नाशिल्ले जाल्यार ते असली आत्मकथा बरोवंक पावतले आशिल्ले व्हय ? जवाहरलालांची आत्मकथाय तांगेल्या जिविताचें एक उपफळ. जवाहरलाल इतिहास घडोवपी एक म्हा-पुरूस आशिल्ले. हो इतिहास घडयता असतना तांणी जें पळेलें अणभवलें तेंच तांणी आपणाले आत्मकथेंतल्यान आमकां सांगलें. जवाहरलालांचीं 'ग्लिंप्सेस ऑफ वर्ल्ड हिस्टरी' आनी 'डिस्कवरी ऑफ इंडिया' हीं इतिहासा वयलीं दोन पुस्तकांय इतिहास बरोवपी वा शिकोवपी इतिहासकारान बरयल्लीं न्हय. इतिहास घडोवपी एका म्हा-पुरसान बरयल्लीं पुस्तकां हीं – तांच्या जिविताचें उपफळूच म्हणूंक जाय ह्या पुस्तकांक.

खाडिलकरांचीं नाटकांय हेच तरेन जल्माक आयल्यांत. तशें साने गुरुजींचेंय साहित्य अशेंच जल्माक आयलां. साने गुरुजी आनी खाडिलकर हांचें 'लेखका' भायलें जिवीत लोकांक दिश्टी पडलें ना – नाका पडूं. त्या जिवितानूच हें साहित्य देशाक दिलां इतलें लक्षांत दवरतकूच जालें. दोगूय उत्कट जिवीत जियेल्ले म्हूण उत्कट साहित्य दिवंक पावले. 'निखटें' साहित्य साने गुरुजी निर्माण करिना, खाडिलकर निर्माण करिना आनी गांधी जवाहरलाल तर नाच ना.

जें साहित्य जिविताचें उपफळ म्हूण येता तेंच खरें साहित्य.

* * *

---

जाले, तुमकां बरयतलें म्हणटां आनी बरोवंक पावना.

ा दोन तीन वर्सां सावन हांव 'जाग' नेमान वाचतां. पोरूं 'जागां'त 'म्हजो वावर : म्हजीं उतरां' हें सदर येतालें तें हांव आवडीन वाचतालें. कल्या गोंया भायल्या कोंकणी भाशिकाक, कोंकणी साहित्याचो अणकार करतना असले तरेच्या बरपांचो खूब आधार जाता. पुंडलीक नायकांची महाबळेश्वर सैलांची 'नवें' आनी प्रकाश पर्येकारांची 'काजरफळ' हांचो इंग्लीश अणकार करतना कांय कडेन हांव कितलें आडखळिल्लें य उगडास जाता... देखून ज्या एम्.ए.च्या विद्यार्थ्यांनी हे निबंद तयार केले तांकां परबीं दीन दिसता. हे निबंद पुस्तक-रुपान उजवाडा तांचो एक संदर्भ ग्रंथ म्हूण संशोधकांक आधार जावं येता. हांतूंत भट आनी भटपण, घाडी आनी घाडपण हांच्या वावराचोय आसपाव सुचोवणी.

सांतलीं पानां'त येवपी कोंकणी चळवळींत वांटो घेतिल्ल्या वावुरप्यांचीं आत्मकथनांय हांव आवडीन वाचतां. अशेच तरेन आनीक एक सदर येत – कोंकणी लेखकांक तांगेलेच एके साहित्यकृति विशीं बरोवंक लावन ते साहित्य-कृती फाटली प्रेरणा, ती बरयले उपरान्त आतां, कांय काळा उपरांत तांकां त्या बरपाविशीं कितें दिसता – बी हे विशीं लेखकाक बरोवंक लावन कोंकणी साहित्याचो अभ्यास करपी विद्यार्थ्यां र्भ साहित्य तयार करून दवरूं येता.

अशींय आनिकूय म्हायतीपूर्ण सदरां येत रावचीं ही इत्सा. जागाक शुभेच्छा.

**— विद्या पै,** कलकत्ता

(मूळ इंग्लीशी वयल्यान)

# पडसाद

भौ. संपादपी,
नमस्कार

'कोंकणी कवितेचीं दोन दसकां' हो बाब माधव बोरकार हांचो लेख वाचलो. ह्या लेखाचें स्वरूप दोन दसकांतले कोंकणी कवितेचो आढावो अशें जरी आसलें तरी ताका बरो समिक्षात्मक आवाठ लाबला हें म्हत्वाचें. कांय गजाली समिक्षकान लॉजिकली बऱ्यो मांडल्यात आनी हें सगलें करतना आपले स्वताचे कवितेबद्दल मात ताणें कांय एक ब्र काडूंक ना. अस्सल समिक्षकाचें लक्षण तें हें. नाजाल्यार घडटा अशें, कांय कवी कम समिक्षक कोंकणी कवितेचो आढावो म्हूण बरोवपाक घेतात आनी आपली आपुणूच फाट थापटून घेतात.

ह्या समिक्षकाकडेन कविता समजुपाची बरी जाणकारी आसा हें हो लेख वाचून जाणवताच. पूण खंयचोच लेख ज़सो संपूर्ण निर्दोश नासता, तसो होवूय ना. कांय जाग्यार संतुलन बिघडलां अशें दिसलें. देखीक, कांय म्हयन्यांआदीं ह्याच समिक्षकान 'जागां'त बाकीबाबांचे कवितेचेर एक उत्कृष्ट लेख बरयल्लो आनी ह्या लेखाचे तुल्नेंत तो बरोच संतुलीत आशिल्लो अशेंच म्हणचें पडटलें.

बाब माधव बोरकाराकडेन काव्यसमिक्षेची बरी जाणकारी आसा, म्हणुनूच ह्या लेखांत म्हाका जाणवल्ल्यो कांय वादग्रस्त गजाली हांव हांगा नोंदपाक सोदतां. ते वादग्रस्त मुद्दे अशे:

१) रमेश वेळुस्कारांचे कवितेविशीं बरोवपी म्हणटा – ''सावुलगोरी' ह्या साहित्य अकादमीचें इनाम मेळिल्ल्या संग्रहांतूय अशे तरेची दुबळ्या आंगाची कविता चांटे पावलाक मेळटा. ''कवीक उतरांचें हिसपाभायर पिशें लागतकच आशय कवितेक कसो सोडून वता आनी उरता तो उतरांचो अर्थ नाशिल्लो खळखळ'' – असो तांचो स्टेटमेंट आसा, तो बरोच आक्रमक दिसलो. वेळुस्काराचे कवितेचेर हांवेंय एकदां टिपण बरयल्लें आनी ताच्या कांय कवितांचेर प्रतिकूल टिका केल्ली. पूण ते टिकेच्या संदर्भांतले म्हजे मुद्दे वेगळे आशिल्ले. वेळुस्काराचे कवितेचे जाल्ले कोंडी बद्दल, डायमेन्शनचे कमतरते बद्दल हांवें बरयल्लें. (तेन्ना तो म्हजेर बरोच तापिल्लोय बी.) पूण ताची कविता म्हळ्यार 'उतरांचो अर्थ नाशिल्लो खळखळ' अशें म्हाका केन्नाच दिसूंक ना. अशा शब्दांनी वेळुस्काराचे कवितेचें वर्णन करीत जाल्यार ताचेर मोटो अन्याय जातलो अशें म्हाका दिसता. कारण कितल्याशा दोशांपरस ताचे कवितेचे गूण अदीक मोटे आसात. खंयचेय भाशेंतले बरे कवितेकडेन तुळा करूंक शकत इतले ताकदिच्यो कांय कविता ताणें बरयल्ल्यो आसात. कोंकणींतलो हो सर्वार्थान मोटो कवी. ताचे कवितेच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार 'सर्जनपुनर्नवा' असो. आतां समिक्षक बोरकाराक जर आपलो स्टेटमेंट बरोबरूच आसा अशें दिसता आसत तर ताणें बेठो कॉमेंट मारचे परस वेळुस्काराचे कवितेचेर सविस्तर बरोवन तशें सिद्ध करचें अशी सुचोवणी.

२) एकेकडेन समिक्षकान 'जिणेची अर्थहीनता', 'एकसुरेपण' व्यक्त करपी साहित्याबद्दल अशें विधान केलां – ''कांय काळ ह्या साहित्याचो तरतर उरलो आनी कालांतरान ताचो प्रभाव उणो जायत गेलो.'' अशें म्हणटना हो समिक्षक ह्या प्रकाराच्या साहित्याकडेन एक 'फॅशनेबल ट्रॅन्ड' म्हणून पळयता हें जाणवता. आतां मुळांतच अर्थहीनता, एकसुरेपण ह्यो मानसीक अवस्था आनी त्यो सगल्या काळांतल्या साहित्यांत दिसतात. 'महाभारतां'तल्या अनेक पात्रांक जिणेची अर्थहीनता जाणवल्ली, तुकाराम सारक्या संतकवीकय ही अर्थहीनता ग्रासलेली आसा. ती अभंगांतल्यान व्यक्त जाल्या. म्हणटकूच अर्थहीनता, एकसुरेपण, दु... हे सगले मनशाचे जिणेंतले वेदनेचे, दुख्खाचे प्रकार आशिल्यान आमी 'ट्रॅन्ड' म्हणूंक शकचे नात. ही जिणेचीच एक अवस्था, ती पोरण्या-नव्या सगल्या साहित्यांत पळोवपाक मेळटा आनी फुडेंय मेळ... 'प्रेम' ही आदिम भावना, तश्योच 'जिणेची अर्थहीनता', 'दुख्ख' बी आदिम भावनाच. मनीसजीण आसासर त्यो सर्वकाळ साहित्यांत येतल... म्हणुनूच कालांतरान तांचो प्रभाव उणो जायत गेलो अशें समिक्षकान म्ह... सामकें चूक.

३) 'प्रकाश थळी हांणी आपल्या कवितांनी विंगड विंगड आकृ... हाडिल्ले आसात' अशें ह्या लेखांत एक वाक्य आसा. आतां बाब प्र... थळी कोंकणींत कवी म्हणून परिचित ना. तो नाटककार, निबंध... अनुवादक. तांणी कांय कविता बरयल्ल्योय आसत, पूण पुंडलीक नायक... जशे आमी नाटककार, कादंबरीकार, कथाकार हे बरोबरच कवी... जशे वळखतात, तशे प्रकाश थळीक आमी वळखनात. म्हणटकूच थ... कवी म्हूण नांव कशें आयलें आनी तांणी कवितेंत रचनेचे खंयचे वि... विंगड आकृतीबंध हाडले तेबद्दल समिक्षकान सविस्तर बरयल्लें जाल... कवितेच्या अभ्यासकांक ताचो उपेग जावं येतालो. दोन दसकांतले कों... कवितेक बाब प्रकाश थळीन कितें कॉंट्रिब्यूशन दिलां तेंवूय स्पश्ट ज... आसलें.

४) 'पांडुरंग भांग्याची कविता खुबशी अमूर्त आशयाक उतरांनी ध... तर रामाण्याली कविता आत्मसोदाचे वाटेन वचपी' अशें एक वि... समिक्षकान केल्लें आसा, तें त्या दोगांय कविंचें वेगळेपण दाखोवपाक... काय तांचें वैशिष्ट्य सांगपाखातीर? कारण, आत्मसोदाची कविता लेगीत अमूर्त आशयाक उतरांनी धरपी आसूं येता. तेच परी अमूर्त आशया... उतरांनी धरपी कविता लेगीत आत्मसोदाची कविता आसूं येता. म्हणट... ह्या विधानांत दोन कविंचें वेगळेपणूय दिसना आनी वैशिष्ट्य लेगीत दि... जायना.

५) बाब शंकर रामाणीन मराठींत मुक्तछंदांत असंख्य कविता बरयल्या अशें आसतना समिक्षक रामाणीबद्दल म्हणंटा – ''रामाणी मराठींत बरयतना तेन्ना ते छंदोबद्ध कविता बरयतात.'' हाचो अर्थ कितें? फुडें परत समिक्षक म्हणटा – ''पूण ताका (रामाणीक) कोंकणींत मात सभावीक रितीन मुक्तछंदांत कविता येतात. घडये तो मूळ भाशेचोच सभावधर्म जावंक... म्हळ्यारूच, कवितेंत येवपी छंदोबद्धता वा मुक्तछंद ह्यो गजाली भाशेचे... सभावधर्मविल्यान थरतात अशें हांगा ध्वनित जाता. हें कितलेंशें बरोबर... छंदोबद्धता हो मराठीचो सभावधर्म अशें म्हणीत जाल्यार सद्या मराठींत ९५ टक्के कविता मुक्तछंदांतल्यान येतात हें कशें? मराठीच न्हय... सगल्या भासांनी हीच परिस्थिती आसा. समिक्षकान ह्या मुद्द्यांचेर प... विचार करचो अशें म्हाका दिसता.

इतलें पुरो. समिक्षक म्हूण माधव बोरकारांबद्दल म्हाका आदर आ... म्हूण इतलें बरयलें. हांगाच थांबतां.

एस्. डी. तेंडुलक...
थिवी, बार्दे...

## रा – तूं सणसणत राव !

आंक आयलो.
हांव जागो जालों.
मळशिकेन
हांवें तो कचाकच चाळ्ळो.
शा जाली.
सुटुंकूच नाशिल्लो.
राचो राग आयलो. पूण
ट) ड्रिंकाचे घोंट घेवचे
राग गिळ्ळो.
लोकांक असलें लिखाण पचपाचें ना
पडचे परस
बंद केलो रे ?
गशीच्या बोरयेकाराक विचारचेंशें दिसलें.
र-सुवाद दिलीप तो
पाचें कारण सांगचे बदला
द करून उडयतलो
द करून घेवपाक
ॉल फुकट कित्याक वगडावं
वें आगश्टाचो आंक काडलो
सुवादीक तीर
ळे आंका वांगडा वाचलो.
ान ताकार भागयली.
ोडूंक वेळ मेळना जावपाक
व बिम्ब तोखेत रावलो काय ?
म्हणण्याप्रमाण
दिव. रुकच येवचो म्हण खंय आसा ?
ाळे पयलीं तसो व्हडले दिवाळे उपरांतय
शकता.

आयिल्ले दिवाळी आंक
ात
घेवची पडटा.
हण, दिलीपाक ताची चिंता कित्याक ?
जापसालदारकी
र्साकडेन सोंपयिल्ली जाल्यार
वेंक तो मेकळो उरपाचो.
ग
ांतलो लेख, बिम्बाच्या पोटांत घालून
' म्हणपाची मांडणी मात
कें गयी आं.

कसलोय पुरस्कार मेळटकीर जाता तश्शी.
पुरस्कारावेल्यान याद जाली.
साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळटकीर, लेखक सोंपता... (?)
खरें फट तिरसुवाद म्हालगड्यांकच खबर.
तें जर खरें आसत जाल्यार मात
साहित्य अकादमी पुरस्कारावांगडाच
'साहित्य संजीवनि' पुरस्कारूय सुरू करूंक जाय. आनी
साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त लेखकाक
वर्सा भितरच तो फावो करूंक जाय.
म्हणटकीर त्या लेखकाची साहित्य पसवण
आनी तिरसुवादबाबाले त्रास
पयलींभाशेनच चालू उरतले.
तीर-सुवादीक कॉलम वाचतकीर गिन्यान वाडटा
खबर नाशिल्ल्यो गजाली कळटात.
नोव्हेंबराचो तीर वाचून तशेंच जालें.
कांय लोकांक ताची नसाय जाता खंय
तरी आसतना ते नसायकार दुसऱ्यांक लिपोवन
हो कॉलम आवडीन वाचतात अशें आयकलां.
तातुंतल्यान (आपलीं सोडून) लोकांलीं कुतां वाचून
खातखुतल्यो जातात न्हय ?
एका आंकांत कॉलम बंद दवरून
लोकांक तिश्टत लावपाचें कारण मात मनाक भावलेंना.
धा-बारा वर्सां उपाध्यक्षपद उपभोगले उपरांत तें सोडलें
जाल्यार लोकांक त्या मनशाची तिश्टत लागता.
दोन वर्सांनीच सोडल्यार कशी लागतली ?
सगलेच लोक कितें बोरकारी तोंडांत उडोवन
जिमलेटिचे घोंट घोस्तान घेतात ?
ते खातीर आपल्या तिराचो सुवाद
लोकांभितर भरसून वचमेरेन
ताची लावण लावं नाका ?
तशें जातकीर मागीर
तीर-सुवादीक साहित्य पुरस्काराचो पयलो मान तुकाच.
ते खातीर एके गजालिचें मात भान दवर.
हो तीर लोकांले तकलेइतले उंचायेवेल्यान
सणसणत वचुंदी. ताची उंचाय
अडेच-तीन फुटांनी मात कमी करूं नाका.
जैत तुजेंच आसा.
तेच खातीर
तिरा – तूं सणसणत राव.

**उदय गुडे**
मडगांव.

# कुळदीप

**रजनी अशोक भेंब्रे**

दीस सोंपून सोंपनात. रघुवीरालें घरांतलें वातावरण धवळून गेल्लें ताचो धुल्ल अजून निवळूंक नासलो. ताका लागून हार्लींसराक कुशावतीच्यान घरांतलें कसलेंच काम जायनासलें. रांदप सोडच, पूण हांगची वस्त थंय दवरप लेगीत तिच्यान जायना जाल्लें. हातापांयांक खुबच अशक्तताय आयिल्ली. हातापांयांचे अशक्ततायेपरस तिच्या मनाक चड अशक्तताय आयिल्ली. धुवेक – ज्योतीक – गांवांतच लग्न करून दिल्ली. आवयची आवतिकाय पळोवन ताणें एक बायलमनीस घरांतल्या कामापासत हाडून दवरिल्ली.

रांदपाचें ती बायलमनीस करताली. पूण कुशावतीक आनी रघुवीराक अन्नाची वानसाच ना जाल्ली. दोगांय एकामेकांचीं तोंडां पळेत चार उंडयो गळ्या सकयल धुकलतालीं. ज्योती नित्यनेमान आई-बाबाची खबर घेतालें आनी वतना सदांच आवयक सांगतालें,

''आई, नशिबांत आसा तें भोगुंकच जाय.''

''पूण ज्योती, असो वनवास भोगचो पडत अशें दिसूंक नाशिल्लें गो...''

''पूण आई, बाबाक पळे मगे, तुजेभशेन तो करता जाल्यार!''

''तो कितलोय जाल्यार बापूय – दादलोमनीस!''

''आवय आनी बापूय म्हणून वेगळेपण आसा?''

''आसा तर! णव म्हयने म्हजें रगत दिवन पोटांतल्या आंकराक हांवें वाडयल्लो मुगो!''

न्हिदतना, उठ्ठना बसतना कुशावतीक आपल्या पुताचींच चिंतनां येतात. दोळे धांपपाचो यत्न केल्यार न्हीद येना. तकले वयर फॅन घुंवता तश्यो सगळ्यो यादी दोळ्यां सामकार घुंवपाक लागतात.

कुशावतीचें लग्न जावन लक्ष्मीवरी तिणें घरांत पावल दवरिल्लें. सुखी संवसाराचीं सपनां रंगयतां रंगयतां चार चलयांक जल्म दिल्लो. दर खेपे मांयक, रघुवीराक आनी कुशावतीक दिसचें, चलोच जातलो. आनी चली जल्मतकच सगळ्यांचीं तोंडां बावतालीं. चल्याची वाट पळोवन पळोवन चौथी चली जातकच कुशावतीन आनी रघुवीरान थारायलें – पुरो आतां. चलो जावपाचो आशिल्लो जाल्यार येन्नासर जावपाचो. चार चलयांचीं शिक्षणां लग्नां बाळंतपणां आनी सगळ्यो अर्थ अपुरबायो जातासर नाकापुरो जातलें. चार चलयो ह्योच आमच्यो जापसालदारक्यो बरे तरेन निभावल्यार पुरो.

पूण मांयक चलो सामको जायच आसलो. आपल्या कुटुंबाचें, घरकाराचें नांव वयर काडपी कुळदिपाची तिका उत्कंठा आसली. चौथें चली दोन वर्सांचें जातकूच एक दीस रघुवीर घरांतल्यान भायर सरला सो पळोवन मांयन कुशावतीक म्हळें,

''आगे, म्हाका खबर आसा. पूण...''

''कितें खबर आसा गे आई?...''

''चलयांची जापसालकी खूब व्हड... पूण...''

''आई तूं कितें सांगूंक सोदता, म्हाका खबर आसा... पूण नाका आई. म्हाका भिडेक घालूं नाका.''

''जावं गे. भयर्णीक एक भाव आसचो अशें म्हाका दिसता गे...''

''पूण आई... इतलो तेंप म्हाकाय दिसलें. पूण दर खेपे चलीच जा[...] चार चलयांचें फुडें कशें जातलें हीच चिंता जाल्या म्हाका...''

''देव सगळें वेवस्थीत करतलो. देवान जीं फुलां पदरांत घाल्यांत तां[...] बरे तरेन जतनाय करपाक तोच तुमकां आदार करतलो. म्हजो भाव[...] व्हड. म्हजें एकूच मागणें. आयकतली मगे?''

''आई, भिरांत दिसता गे... तुका जसो 'कुळदीप' जाय, तसो म्हाका[...] जाय गे... पूण...''

''कुशावती, एकच फावट खेळी खेळया... हांव जाणां, देव आम[...] परिक्षा घेता आसतलो... म्हजें आयक तूं...''

आनी मांयच्या भावार्थाचेर कुशावतीन विस्वास दवरलो. तिका च[...] भुरगो जालो! सगळें घर खोशयेन भरलें. नांवय दीपक दवरलें. दीपका[...] खंय दवरूं खंय नाका अशें करतां करतां दिर्शीमाशीं तो व्हड जा[...] लागलो. रुपेस्त आनी तेजिश्ट दीपक सगळ्यांची नदर आपलेकडेन ओढू[...] घेतालो.

रघुवीर आल्फांतार शिर्वीस करतालो. घरचेंय थोडेंभोव भाटबेंस आशिल[...] भुरगीं बरीं शिकतालीं. भुरग्यांचे पसंतिचें शिकप जाल्ल्यान चलयो आपल[...] पांयार उब्यो रावल्यो. हळूहळू करून ताणें तीन चलयांचीं आपले तां[...] प्रमाण वेवस्थीत लग्नां करून दिल्लीं. तीं आपल्या संवसारांत रमूंक लागल[...] मनिषा हॉस्टेलांत रावतालें. शेनवार-आयतारा घरा येतालें. तेंय बरें शिकता[...]

घरांत उरतालीं आवय, बापूय, आजी आनी दीपक. धुवो फाविल्ल[...] वेळार खबर घेवपाकूय येताल्यो. अशे तरेन घराबो सुखी आसलो. आ[...] कशी, केन्ना हाची जाणविकाय घरांतल्या जाण्टेल्यांक मात लेगी[...] जायनासतना अचकितच ह्या सुखी घराब्याक चीर आयली.

बरो वेवस्थीत शिकपी दीपक हार्लींसराक अभ्यासाचेर फावो तित[...] लक्ष दिना अशें घरच्यांक दिसूंक लागलें. विचारल्यार कित्याय कितें जा[...] दितालो. तिळसनां केन्नाच भायर न रावपी दीपक अचकीत वेळाचें भ[...] दवरना जालो. रातचो वेळान घरा येवपाक लागलो.

सुरवातेक थोडे दीस घरच्यांनी ह्यो गजाली साद्यो अशें धरलें. प[...] मॅट्रिकेचें वर्स आसून लेगीत अभ्यासाचेर लक्ष नासप ही चिंतेची गज[...] दिसली. ट्यूशनाचें निमित्त्य करून तो चडांत चड वेळ भायर रावंक लाग[...] चवकशी केल्यार दीपक ट्यूशनाकय सारको पावना म्हणपाचें दिसून आय[...] कुशावती तशी शिटूक बायलमनीस. तिचे नदरेंत एक गजाल आयली[...] दीपक हार्लींसराक सारकें जेवनासलो. कोंबड्यांवरी उस्तितालो, कश्योब[...] चार उंडयो ताळ्यासकयल रिगयतालो आनी उठ्ठालो. विचारल्यार ओ[...] फडफडटालो.

जाय जाय म्हणून मागून घेतिल्लो काळजाचो कुडको! वंशाचो कुळदी[...]

स्थ कित्याक ?
सूयभर चिंतेंत आसताली. दीपकाचें कितें घडलां हें ताका कळपाचें नासलें. बरें, आतांच्या भुरग्यांचें कांयच सांगूं नजो. आनी ताचो वेगळोच परिणाम जायत म्हणुनय तिका हुस्को ल्यां हुजीर विचारूंक जायना. एक आनी दोन हजार भानगडी... आपल्याक घरा येवपाक वेळ जातलो अशें रघुवीर बायलेक हीच संद सादून कुशावतीन दीपकाक सांसपुपाचो यत्न

क, हालींसरा कितें जालां रे तुजें ?''
य कितें जालां ?'' दीपक गडबडिल्ले वरी जालो.
च जावूंक ना जाल्यार तुजें कित्यारच लक्ष ना मरे ह्या

का ओगीच दिसता तशें... खंय कितें घडलां ?''
तुजी आवय मरे पापया. आदलो दिपू आनी आतांचो त चल्लां तुज्यांत हें हांव वळखुंचिना तर कोण वळखतलो ?''
ा ओगीच दिसता तशें, आनी आई, आतां हांव व्हड जालों

रे बाबा''...
ी म्हाका मात्सो मेकळो सोडात मगे, म्हाकाय व्हड मनीस ''
लो जाल्यार बरें शिकूंक जाय, बरें जेवण खाण करूंक बरी सांबाळूंक जाय...''
... तुजें लॅक्चर जालें सुरू... हाका तूं मेकळेपण म्हणटा ?''
तुजेर कोणें कसली जबरदस्ती केल्या ? तुजें घरांतलें वागप ून आमी चवकशी करचिंनात तर कोण करतलो ?''
ं मगे सगळ्यांचें विचित्रच...''
चित्र ? सारकें सांग आं. कितें विचित्रपणां केल्यांत आमी ? हणून मागून घेतला. म्हणून तर तुका मावळिंगा वरी ळा मरे सगळ्यांनी...''
म्हाका मानवना...''
ानवना जालें ?''
ंच म्हाका ही अपुरबाय मानवना जाल्या.''
रे ? आं... सांग मरे...''
... म्हजे इश्ट म्हजीं फकाणां मस्कऱ्यो करतात. म्हाका ात... म्हाका म्हज्या इश्टां वरी मेकळीक जाय... मुक्तताय

. मेकळीक मेकळीक म्हणटा ताचो अर्थ तरी सारको सांग... म्हळ्यार कितें तें तरी सारकें कळुंदी.''
जावंची ना मगे ?''
क, तुज्या उलोवण्या वेल्यान म्हाका कळून आयलां, तुका बाय हें बंधन दिसूंक लागलां... रागार जावपाचो प्रस्नच सा तें सांग... घुस्मटूं नाका. म्हाकाय तुजे विचार कळुंदी. सांगूंक मेळटलें म्हाका.''
द्रावरी म्हाका लिपचोरयां न्हय, तर उकतेपणान सिगरेटी 'पान पराग' चघळूंक जाय.. रमेशा वरी पयशांनी इस्पिको '
तुका सिगरेटी ओडूंक जाय ?''
अजाप कित्याक जालें ?''

''तुका पयशांनी इस्पिको खेळूंक जाय ?''

''आई, म्हजे येदे भुरगे... म्हजे वांगडी हें असलें सगळें करतात... जाल्यार हांवूच कित्याक बंदिस्त रावूं ?...

''दिपू, पुरो... पुरो... उलोवं नाका पुता... तुजेविशीं कितल्यो उमेदी बाळगिल्ल्यो हांवें... पूत म्हजो सगळ्या गुणांनी संपन्न जातलो... घराण्याचें नांव वयर काडटलो...''

''आई, म्हाका सांग, सिगरेट ओडली, पान खालें, 'पान पराग' चघळ्ळें, इस्पिकांनी खेळ्ळों म्हूण हांव व्हड जावंचो ना अशें तुका दिसता ?''

''दिपू... पुता सदांच बरी देख घेवंची.''

''आनी ही देख वायट म्हणून कोण सांगता ? संवसारांत व्हड मनीस जाल्यात तांणी केन्ना वेसनां केलीं नात म्हूण तूं जाणा ?''

''नाका रे पुता, आनीक कांयच सांगूं नाका...''

''आई तुका सांगुंकूच जाय.. हांवें खूब पयशे एकठांय केल्यात... जाणां तूं कशे ते ?... हांव आत्रे-पयऱ्यान तिळसनां घुंवळे वखदां हॉटेलार व्हरून दितां.''

''दिपू, राजा ! हें... हें तूं कितें सांगता रे ?''...

''हय आई. तुवें म्हाका सगळें खरें खरें सांग म्हळां म्हणून हांव खरें तेंच सांगतां. आनी म्हजो बापूय आल्फांतार आसा, हांव बऱ्या मनशालो भुरगो म्हणून आयजवेर म्हाका कोणेंच हटकूंक ना आनी केन्नाच कोणूय हटकुपाचो ना हाची म्हाका पुरायेन खात्री आसा...''

''दिपू... ल्हानाचो व्हड केलो तुका. तुजेर बरे संस्कार केले. पूण ह्या वादळांत तूं केन्ना घुस्पलो हाची इल्ली लेगीत घरांत कशी रे सुलूस लागली ना ? दिपू, आयजवेर जालां तें जालां पुता... बाबाक हांतलें कांयच सांगना... पूण आयच्यान फाटीं सर... फाटीं सर हे वाटेवयल्यान...''

''ना आई, म्हाका व्हड मनीस जावपाचो आसा. तूं कित्याक भियेता ? शिकूनच व्हड मनीस जातात म्हणपाच्यो गजाली फाटीं पडल्यो.''

''...आतां तूं म्हजें आयकतलो काय ना ?... काय लावूं कानसुलार ?''

''आई, म्हजे वांगडी इश्ट म्हाका शामळू म्हणटात. तांकां म्हाका दाखोवन दिवचें आसा.''

''इश्टांक कितें दाखोवन दिवचें आसा ? आनी... आनीक कितें उरलां दाखोवपाचें ?... हांवें केन्ना चिंतूं नाशिल्लें म्हजो पूत इतलो, इतलो फुडें पावत म्हूण...''

''आई, म्हजे वांगडी चोरयां सिगरेटी, 'पान पराग' बी वेसनां करतात... पूण हांव तांच्याकय खूब फुडें पावलां हे गजालिची सुलूस तांकां ना. घुंवळे वखदां पावोवपांत हांव तरबेज जालां... म्हाका शामळू म्हणटात... तांकां म्हजें व्हडपण आनी धिटाय कळटकच तोंडार थापट पडिल्लेवरी जातलें... जालें म्हजें सांगून.''

''आई, म्हाका वेळ जाता. आज म्हाका मात्सो बेगिनच कामार आपयला. तूं भियेवं नाका गे... तुगेले पयलिंचे विचार सोड आनी नवे विचार आपणाय. येतां आई... येतां रोखडोच.''

कुशावती कच्च करून आंग काडटा आनी चिंतनां थांबतात. ''दिपू आयलो... आयलो दिपू... दिपू... म्हाका येतां म्हणून गेल्लो तो... आयलो.''

''कुशा, अशें कितें करता गो... म्हाका पळे मुगो... आं.. आमचो दिपू आतां केन्नाच येवपाचो ना हें तुका खबर आसा मुगो...''

''...ना... हो आमचो दिपू न्हय. पोलिसांच्या फारपेटांत मेला तो आमचो दिपू न्हय... आमचो दिपू न्हय तो... आमचो दिपू... काळजाचो आंकूर... दिपू.. दिपू...''

आनी कुशावती हुडक्या हुडक्यांनी रडटा...

* * *

# कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम : एक उकती चर्चा

**दामोदर घाणेकार**

कोंकणीच्या मळार वावुरपी जे म्हालगडे आसात तांतले कोणूच मुळाव्या पांवड्यार कोंकणी माध्यमांतल्यान शिकूंक नात. देखून, दुसऱ्यांक भास शिकोवंचे आदीं आमीच ती सारकी शिकून घेवप गरजेचें, अशें एकें अनुपचारीक बसकेंत कोंकणी व्याकरणकार, भौ. सुरेशबाब बोरकार हांणी सुचयल्लें. पूण तेन्ना कोणेंच तें कानामनार घेतलेंना, आनी म्हणून आयज आमची अशी दशा जाल्या. अशी म्हळ्यार, कोंकणी बरोवपाक धड कोणाकूच येना; बरयतना शुद्धलेखनाच्यो हजार तरा, लाखांनी चुको!

दर वर्सा विशेक विद्यार्थी कोंकणी विशय घेवन एम ए जातात. पूण तांकां लेगीत शुद्धलेखनाचो त्रास जाताच. म्हाका स्वताक शुद्धलेखनाची दीसपट्टी आडखळ आनी त्रास जाता आनी उपरांत सद्सद्विवेकबुद्दीक जें पट्टा तें शुद्धलेखनाच्या नेमांभितर बरोवन हांव मुखार वतां.

बडाय मारिना, पूण हांवें जितल्या कोंकणी पुस्तकांचें शुद्धलेखन (प्रूफ) तपासलां (आनी अजुनूय तपासतां) तितल्या पुस्तकांचें एकल्या हेर कोणाय मनशान (स्वता लेखकान सोडून) तपासलां अशें म्हाका दिसना. हांव हें गर्वान सांगिना, पूण पावला-कणकर्णी म्हाका शुद्धलेखन ऱ्हस्व बरोवंचें काय दीर्घ हाजेर विचार करचो पडटा.

असो विचार करचो पडचो न्हय म्हणून गोवा कोंकणी अकादेमीन शुद्धलेखनाचे नेम केल्यात, पूण पळोवंक गेल्यार ज्या मनशांनी (म्हालगड्यांनी) शुद्धलेखनाचे चर्चेंत वांटो घेतिल्लो आनी जांचीं नांवां नेमांचे पुस्तिकेंत पळोवंक मेळटात तेच हे नेम पाळिनात अशें स्पश्ट चित्र दिश्टी पडटा. कोण एकलो ''पैलो खंड'' अशें बरयता जाल्यार दुसरो ''उग्डास'' हें उतर गरज नासतना जोडगिरान कियाखातीर बरयता तेंच समजना. हे बाबतींत चड खोलांत वचनासतना हांव शुद्धलेखनाचो एक एक नेम घेवन विस्कटावणी करूंक सोदतां, तशेंच, आनीक कांय आलायते नेम सुचोवंक सोदतां. पयल्या नेमापसून सुरवात करतां.

**नेम: १-३:** ह्या तीन नेमांचेर कसलोच वाद आसपाची गरज दिसना.

**नेम ४:** ह्याय नेमाचेर वाद आसूं नजो. पूण, श्रेश्ठ, कनिश्ठ, ज्येश्ठ (म्हयनो आनी वरिश्ठ ह्या अर्थांनी), विश्लेशण, घर्शण, पोशण, भूंयपृश्ठ, पृश्ठभाग, गुरुत्वाकर्शण, अनुश्ठान आनी मंगलाश्टकां हीं उतरां 'श'न बरोवंचीं काय 'ष'न तें थरोवंक जाय. कोंकणींत 'ष'चो उच्चार घोळना अशें ह्या नेमांत पयलींच म्हळां. वैश्णव, साश्टांग, शिश्य, भाश्य, बहिश्कार, भ्रश्टाचार, प्रतिश्ठान ह्याय उतरांचेर खोलायेन विचार जावंचो.

**नेम ५:** वाद आसचो न्हय.

**नेम ६:** हाजेरूय वाद आसचो न्हय.

**नेम ७:** आडवादांत समाजीक, इतिहासीक, तत्वीक, भुगोलीक, तंत्रीक हीं आनी अशींच कांय तद्‌भव उतरां तत्सम उतरां मुखार दिवपाची गरज आसा. तशेंच, सुख, गुण, दुःख हीं संस्कृत उतरां कशीं बरोवचीं तेंय सांगूंक जाय.

**नेम ८:** नेम साताभाशेन हाजेरूय वाद ना. पूण 'भारकूण' हें उतर चुकीचें. तें 'बारखूण' अशें जावंक जाय; 'बारा खुणो' हाजेवयल्यान आयलां. तशेंच, 'धाडून' आनी 'सांबाळून' हीं दोन उतरां ह्या नेमांत चुकून आयल्यांत. दोनूय उतरां नेम ३५त वचूंक जाय.

**नेम ९:** वाद आसचो न्हय.

**नेम १०:** टिका हें संस्कृत- उतर ऱ्हस्व केलां तें कोंकणीच्या स बसता. तशेंच, किर्तन, परिक्षा, समिक्षा, दीक्षा हीं उतरां ऱ्हस्व का तेंय सांगूंक जाय. तीं घोळणुकेंत आसात.

तशेंच, करिना आनी करिनासतना हीं उतरां नेम ३२त वचूंक

**नेम ११:** वाद आसचो न्हय. पूण आसुनूय हें उतर नेम ३५त जाय.

**नेम १२:** वाद आसचो न्हय.

**नेम १३:** ह्या नेमांत ही, ती, बीं ह्याय उतरांचो आसपाव करूंक 'मूं' ह्या उतरावयलो अनुस्वार चुकला तो घालूंक जाय. तशेंच, ने प्रमाण 'की' हें अव्यय कोंकणीच्या सभावांत बसना. जाल्यार ह्या 'की' कियाक आसा?

**नेम १४:** ह्या नेमाचेर व्हड चर्चा जावपाची गरज आसा. मूळ ने सांगता: निभृत स्वरान सोंपतात त्या उतरांनी अशा स्वराआदीं इ वा उ-कार येता तेन्ना त्या उतरांक कुसां लागतकूच तो इकार वा ऱ्हस्व बरोवंचो. देखीक: जीब – जिबेक, जिबेचो, जिबेन. मूळ नेम सम मान्य आसतलोच. पूण जेन्ना जाहीर ह्या उतराक नामो हें उतर ताजें जाहीरनामो जाता तेन्ना 'ही' ऱ्हस्व बरोवंचें काय दीर्घ असो निर्माण जावंक जायना. आनी हांगाच शुद्धलेखनाचो हो नेम स्पश्ट बारीकसाण, फारीकपण, सोपूतविधी, दीसभर, सोंशीकपण, जिवी हीतसंबंद, तातूंतल्यान, दीसपट्टें, फूलकार, कूळकथा, जादूगार, गूण गूणधर्म, भूंयगत, भूंयकांप, झूजबंदी, मूठभर, रीतसर, भूकमार, खी फूलझाड, धातूकाम, वीणकाम, भूंयमाप, वास्तूशिल्प, लूटमार, तीन ऊदवात, अणूउर्जा हीं आनी असलीं सगलीं उतरां कशीं बरोवचीं नेमांत स्पश्ट ना. आनी देखून, हांव तीं जशीं हांगा बरयल्यांत बरयतां आनी मुखार वतां.

तेच भाशेन, दक्षिण हें विशेशनाम काय सामान्यनाम आनी मदलो ऱ्हस्व काय दीर्घ तेंय स्पश्ट ना. तेंच, गणीत आनी सूर्य हांचे बा जालां.

**नेम १५:** जोडगिरां बरयतना एका अक्षरा सकयल दुसरें अक्षर न्हय. (अशें कियाक ताजें कारण दिवपाची गरज आसा.) कारण सोंपें. कम्प्युटराक एकदां 'कमाण्ड' दिलो म्हणटकच तो दोन ओळ अंतर समान दवरता. जर चिड्डून ह्या उतरांत ड सकयल ड आनी सकयल दीर्घ उकार बरयलो जाल्यार कम्प्युटर विचार करिनासतना अंतर सोडपाखातीर सगलीं अक्षरां चिड्डिता. (पळयात सुनापरान्त एक – ११ जानेर, ९९.)

**नेम १६:** एकवचनी तिसऱ्या पुरुशी सर्वनामाक विभक्तिचो चो- प्रत्यय लागता तेन्ना – हाचो, ताचो, हिचो, तिचो, हाचें, ताचें अशें ब म्हजो प्रस्न: हाजो, ताजो अशें बरयल्यार जायना? म्हजो काय तुजो काय तुचो? हेंय स्पश्ट जावंदी.

द आसचो न्हय.

यापदाचें खंयचेंय रूप बरयतना धातू **पुरायेन** बरोवंचो. नेमाविशीं रुपां दिल्यांत तातूंत पयलेंच क्रियापद वांटप आसा आनी रुपांत मदल्या ट चो पांय मोडला, म्हळ्यारूच धातू पुराय निमाणें क्रियापद चलप आसा आनी एक रूप चल्लो-ली-लें . कोंकणी अकादेमीच्या मंडळाचे, नेम बरोवन काडटल्याचे, काय प्रूफ वाचतल्याचे तकलेंत हे बाबतींत बरेंच कोंफुझांव ाचें स्पश्ट दिसता. ह्या नेमाप्रमाण, वांटप – वांटटा, चलप , घालप – घालला अशें बी जावंक जाय.

माविशीं वाद ना.
उठ्ठा – उठ्ठलें अशें बरयलां. हेंय नेम १८ मोडटा.

ा नेमाविशीं वाद ना.
म अठरावो नेम मोडटा. हो नेम पूर्ण ना. हांतली अपूर्णताय रुपांत दिश्टी पडटा. जशें, मेळप – मेळ्ळिना (नेम मोडटा) ना. अशे तरेची इकाराची व्हडली 'तोपी' दिल्लें अक्षर आसा
.

ाद आसचो न्हय.

ाद आसचो न्हय.

ाद आसचो न्हय.
ड्याक, म्हजे बावल्याक, ते दिसा, ते वेळार हें चूक अशें सांगप गरजेचें.

ाद ना. पूण आकाशवाणी वयल्यान जीं गितां लागतात तातूंत कुडींत' आनी 'उमाशेच्या जोरगतीर' अशें आनी आनीक खूब क येता.

ाद ना. पूण लिपी आनी बोली हीं दोन कोंकणींतलीं घोळणुकेंतलीं ्या आडवादांत घालपाची गरज आसा?

ाद ना.

वाद आसचो न्हय. टॉमास स्टिफन्स केंद्राचो जरी ह्या नेमाचेर ी, तरी जांवक, घेंवक, बरोंवक अशें किद्याखातीर बरोवंचें न्हय ं स्पश्टीकरण थंयचे थंयच दिवं येता. कारण कोंकणी घेवन ल्या विद्यार्थ्यांक हाजें कारण खबर ना.

वाद ना.

वाद ना.

वाद ना. पूण, कोण कोणाचो न्हय, आनी मांडवी न्हंयचेर ा. दुसरे 'न्हंय'चेर अनुस्वार किद्याक तें स्पश्ट करूंक जाय. य = न + हय. याद उरपाक सोंपें. म्हळ्यार, ती न्हंय – देखून तिज्या कपलार कुकूम आसा अशें म्हणूं येता.

हो नेम अर्दकुटो आसा. तो असो जावंक फावो आशिल्लो. र प्रत्यय म्हणून उपकरायतात तेन्ना ताजेर अनुस्वार दिवंचो ठ नेम इतलोच आसा; फुडली जोडणी म्हजी) – पूण ताजे 'आ' वा 'इ' स्वरी अक्षराचेर दिवंचो – पळयात नेम २९ (ब).
सगल्या रानांनी वाग नासतात.
सगल्या भयणींनी भावाक सांगलें.

ऊंक कूस लागिल्ल्या धातू-अव्ययांतलें **क** गळटा तेन्ना आदलो उ-कार ऱ्हस्व बरोवंचो आनी तें उतर फुडल्या उतराक जोडचें. हेच भाशेन **ई-स्वरान** सोंपिल्ल्या धातू अव्ययाक मुखावयलें उतर जोडपाचें आसत जाल्यार हो स्वर मोटवो (ऱ्हस्व) करचो.

| | | |
|---|---|---|
| देखीक: | वचूंक नासलो | वचुंनासलो |
| | करी नासलो | करिनासलो |

ह्या नेमाक म्हजो खर आक्षेप आसा. पयलीं म्हळ्यार **क** गळटा अशें खंय आसा? आनी उ-कार ऱ्हस्व करून उतरां जोडचीं किद्याक? हाजें स्पश्टीकरण जावंक जाय. 'ई' स्वर मोटवो करपाचेर कोणाचोच वाद आसचो न्हय, कारण फुडलें उतर 'आ'कारान्त येता!

**नेम ३३:** कोणाचोच कसलोच वाद आसंचो ना, कारण कोंकणी मनीस सदांच **ACTIVE.** चार उधारणां दिवन नेमांत निमाणें म्हळां, 'अशें बरोवंचें न्हय'. ACTIVE VOICEत कशें बरोवंचें तें सांगूंक फावो. नवे पिळगेक कळना.

१) आमकां तशें **सांगलें गेलें** – चूक.
आमकां (तांणी) तशें **सांगलें** – सारकें.
२) दर वर्सा हें फेस्त **केलें वता** – चूक.
दर वर्सा हें फेस्त **करतात** – सारकें.

**नेम ३४:** वाद ना.
पूण हे खातीर, ताजेआर्दी, तांचेमुखार हीं सगलीं उतरां **एकठांय** येवंक जाय. हाजेर विचार जावंचो.

**नेम ३५:** क्रियापदांच्या **ऊंक** कूस लागिल्ल्या रुपांक **च** लायतात तेन्ना ऊंक कुसांतलो उ-कार ऱ्हस्व जाता आनी **क** चें **कू** जाता.
देखीक: आसूंक – आसुंकूच. हाजेर वाद ना, पूण नेमाक इल्लीशी दुरुस्ती सुचोवंक जाय ती अशी: क्रियापदांक, सर्वनामांक, विशेशणांक, अव्ययांक **बी च** वा **य** असलीं कुसां लागतात तेन्ना आदलो उ-कार ऱ्हस्व जाता आनी निमाण्या अक्षराक उ-कार दीर्घ लागता.
देखीक:

| | | | |
|---|---|---|---|
| देखीक: | आसूंक | आसुंकूच | आसुंकूय |
| | करूंक | करुंकूच | करुंकूय |
| तशेंच, | पुलीस | पुलिसूच | पुलिसूय |
| | आनीक | आनिकूय | |
| | खातीर | खातिरूय | |
| | खूब | खुबूच | |
| | आपूण | आपुणूच | |

**नेम ३६:** वाद आसचो न्हय. पूण इल्लीशी जोडणी: (पुर्तुगेझ सोडून हेर खंयचेय) विदेशी भाशेंतलें उतर आसल्यार **ओ** स्वराचो उकतो उच्चार दाखोवपाक ॅ कुरू उपकरावंची. हांवें कंसांत जोडणी दिल्या ती म्हत्वाची, कारण देखींनी इंग्लेझ उतरां बरोबरूच सोर्त हें पुर्तुगेझींतल्यान आयिल्लें उतर **सॉर्त** अशें बरयलां. तें चुकून जालां अशें दिसना, कारण शुद्धलेखनाच्या नेमांचे पुस्तिकेची पयली आवृत्ती हातांत पडनाफुडें हांवें गोवा कोंकणी अकादेमीक पत्र बरोवन ह्या उतराचेर आक्षेप घेतिल्लो. कारण, जर सोर्त हें उतर सॉर्त अशें बरयत जाल्यार जनेल (जनॅल), कदेल (कदॅल), मेज (मॅज), गोम (गॉम) हीं पुर्तुगेझींतल्यान आयिल्लीं उतरां कंसांत दिल्यांत तशीं अर्दचंद्रान बरोवचीं पडटलीं. अकादेमीन दुसरीय आवृत्ती पांच वर्सां उपरांत ह्या विशयाचेर मात्तूय विचार करिनासतना परत छापली.

**नेम ३७:** हो नेम अर्दकुटो आसा. नेम अशें सांगता: मनीस ह्या उतराक (काय नामाक?) प्रत्यय लागतात तेन्ना मनशान, मनशाक, मनशाचो अशीं रुपां जातात. ह्या रुपांनी **शा** हें अक्षर तशेंच बरोवंचें.

देखीक: मनशान मनशाक मनशाचो – सारकें
मनश्यान मनश्याक मनश्याचो – चूक

मात **तवशें, भोपशें** असल्या **श** अक्षरान सोंपतल्या उतरांक (काय नामांक ?) प्रत्यय लागतात तेन्ना

तवश्याचें तवश्याक
भोपश्याचें भोपश्यान

अशें बरोवंचें.

**टीप:** उच्चारांत अंतर नासलें तरी तवशाचें, तवशाक, भोपशाचें, भोपशान अशें बरोवंचें न्हय अशें म्हळां.

म्हजे प्रस्न दोन: १) उच्चारांत अंतर ना जाल्यार बरोवपांत जोडगिराचो त्रास किद्याक ? भास सादी, सोंपी, सुटसुटीत करपाचें चिंतप चालू आसतना ती आमी मुद्दम कुंप्लिकाद किद्याक करूंक सोदतात ?

२) हो नेम फकत नामांक लागू जाता ? हय, जाल्यार म्हापशें – म्हापश्यां हें उतर येवप गरजेचें आशिल्लें. न्हय जाल्यार पिंगशे (केंस), कितलेशे (भुरगे), कितल्योशो (बायलो), अशो (खूब) देवता हीं आनी हेर उतरां पिंगश्या (केंसांक), कितल्याश्या (भुरग्यांक), कितल्योश्योच (बायलो), अश्यो (खूब) देवता, खूबश्या (लोकांक), शिंश्याची (गरी) अशीं बरोवप काय 'य'चें जोडगीर लायनासतना बरोवप तें हो नेम स्पश्ट करिना.

**नेम ३८:** वाद ना.

**नेम ३९:** वाद ना.
पूण रयत, वयर, सावय, वयनी, दैना, शणै, थै-थै (नाच) हीं उतरां कशीं बरोवचीं तें हो नेम स्पश्ट करिना.

**नेम ४०:** वाद ना.

**नेम ४१:** वाद ना.

**नेम ४२:** खर वाद आनी आक्षेप आसा. गोंयकारांमदीं जानेर, फेब्रेर, मार्स, आब्रील, माय, जून, जुल्ल्य, आगोस्त, सेतेंब्र, ओतुब्र, नोव्हेंब्र, देझेंब्र अशींय म्हयन्यांचीं नांवां घोळटात. तीं बरोवपाक हरकत किद्याक आसची तें समजना.

हे जाले गोवा कोंकणी अकादेमीन तयार केल्ले नेम. हातूंत कांय त्रुटी, दोश, चुको उरल्यात. त्यो सुदारूंक जाय. तशेंच, आनीक कांय उतरां कशीं बरोवचीं तेंय सांगूंक जाय.

आतां हांव आनीक तीन नेम जोडटां. हे नेम हांवें केल्यात आनी ते पुस्तकांचीं प्रुफां वाचतना, रेडिओच्यो खबरो आयकतना बी खोल विचार करून, अभ्यास करून निर्माण जाल्यात.

**नेम ४३:** 'राष्ट्रांच्या नांवांचीं विशेशणां करतना अ वा आ न सोंपतल्या नामाक दीर्घ ईकार लावंचो. जीं नामां एचे मात्रेन वा उकारांत सोंपतात तांकां 'यी' हें कूस लावंचें.' तरी आसतना, म्हजेय तकलेंत थोडो वाद आसाच. तोय बी सांगतां.

देखीक: भारत – भारती (भारतीय न्हय), अमेरिका – अमेरिकी, कोरिया – कोरियी, जपान – जपानी, आशिया – आशियी (आशियाई न्हय), आफ्रिका – आफ्रिकी, नॉर्वे – नॉर्वेयी, झिम्बाब्वे – झिम्बाब्वेयी, फिनलँड – फिनलँडी (फिनीश न्हय), स्विडन – स्विडनी (स्विडीश न्हय), पोलंड – पोलंडी (पॉलीश न्हय), ग्रीस – ग्रीसी (ग्रीक न्हय) अशें बी.

पूण जर्मनी – जर्मन काय जर्मनीयी ? इटली – इटलीयी, इंग्लंड – इंग्लीश, इंग्लेझ काय इंग्लंडीयी ?

पुर्तुगाल ह्या उतराचें विशेशण पुर्तुगाली केल्लें सुनापरान्तांत वाचूंक मेळटा जाल्यार जागांत तेंच पुर्तुगिझ अशें दिश्टी पडटा. गोंयकारांच्या उच्चार सभावांत पुर्तुगाली हें उतर बसना आनी त्यो 'गाळी' कशो दि[...] पुर्तुगिझ हेंच पेझाद उतर वापरचें अशी म्हजी सुचोवणी.

**नेम ४४:** इंग्लेझ भाशेंतले अल्पाकार बरयतना तांचे उपरांत इंग्ले[...] भाशेन पूर्णविराम दिवंचो न्हय.

देखीक: जे. एफ. आर. जेकब – चूक
जे एफ आर जेकब – सारकें
वा जॅ. फ्रॅ. रा. जेकब – सारकें
(कारण ताजें नांव जॅक फ्रॅडरीक राल्फ जेकब)
आर. के. लक्ष्मण – चूक
आर के लक्ष्मण – सारकें
वा ताजें पूर्ण नांव समजून बरोवंक जाय.
तशेंच, एम. एफ. हुसेन – चूक
एम एफ हुसेन – सारकें
वा मकबुल फिदा (म. फि.) हुसेन
एच. डी. देवेगौडा – चूक
एच डी देवेगौडा – सारकें
वा ह. डो. (हर्दनहळ्ळी, डोड्डागौडा) देवेगौडा.
पी. टी. उषा – चूक
पी टी उषा – सारकें
वा पिलावुलाकांडी थॅकॅपाराम्पील (पि. थॅ.) उषा.

हाजें कारण अशें: इंग्लेझ भाशेंत जातात ते अक्षरांचे अल्पाकार [...] फॉर्म्स) जाल्यार देशी भाशांनी (आनी म्हणून कोंकणींत) जातात ते उच्चा[...] अल्पाकार. आनी तेच पासत हो नेम.

**नेम ४५:** सगले आंकडे आंतरराष्ट्री नेमाप्रमाण बरोवंचे. जशे: 1, [...] 3, 4, 5, 6, 7, 8, 9, 0. कोंकणींत आंकडे नात. आमी वापर[...] ते मराठी आंकडे, कारण हिंदी आंकडे वेगळे आसात. जेमेरेन कों[...] म्हणून आंकडे निर्माण जायनात तेमेरेन आंतरराष्ट्री (इंग्लेझ न्हय) आं[...] वापरूंक कसली हरकत आसा ?

आतां थोड्या उतरांचेर विचार जावंचो अशें सुचोवन हें नेमपुराण [...] सोंपयतां.

आशिर्वाद, राजिनामो (इकार ऱ्हस्व काय दीर्घ ?), चवथें, चव[...] चवग जाण, परतून (पर्थून), राष्ट्री (राष्ट्रीय ?), आंतरराष्ट्री, सेंद्री, [...] (य किद्याक जाय ?) भाशी (भाशीक ?); वेवस्थापन, वेसन, वेर्थ, वेवन्[...] वेवसाय, उग्डारा, उपरांत, लस्कर, विस्वास, दिस्त (ज्युस्त), [...] रोकडें (काय रोखडें ?), सुत्र, सुची, सुचक (ऱ्हस्व ?), कोंकणी [...] – कोंकणी मोग्यांक, आरोपी – आरोपींक कशें ? आरोप्यांक, आरोप्यां[...] – अशें जावंक जाय. पाचवो आनी पांचवो (जशें न्हय आनी न्ह[...] पणजी – (भो. व.) → पणज्यो, आजी (भो. व.) – आजयो. प[...] – पणज्यांक, पणज्यांचो. पणजी – पणजेक; पणज्यो – पणज[...] पणजयांचो बी.

उणें आनी वेल्यान हीं उतरां चुकीचीं घोळटात आनी तशींच बरयत[...] बी. उणेंच शंबर खोंपी काय उण्योच ? वयर – वयल्यान. वेल्यान [...] उतर आसल्यार ताजें मूळ "वेर" आसूंक जाय.

कोंकणींत एकाच प्रकाशकान (राजहंस वितरणान) जादवाच्या विशय[...] दोन भुरग्यांचीं पुस्तकां प्रकाशीत केल्यांत. एक, भरत नायकाचें जाद[...] आयणो जाल्यार दुसरें, मनोहरराय सरदेसायाचें जादूचो कोंबो. हें क[...] कोंफुझांव ?

नेम १०तल्या टिका ह्या उतरा भाशेन भूगर्भ, भूमध्य, भूगोल, भू[...] हीं उतरां ऱ्हस्वान काय दिर्घान बरोवपाचीं ?

वा सुर्वेक हें उत्तर कशें आनी खंयच्यान आयलें? कोणें तरी हाजें सुरवेक केलें आनी तीच रॅकॉर्ड झरत आसा. ताजेफाटलें तें कोणूच लक्षांत घेना!

, भौस, भौशीक, भौमानेस्त, भौच, भौ काय भोवतेक, मोवच,

नें काय भितल्लें? हांगासरलें, थंयसरलें काय हांगासल्लें, ?

ो शिंवर (काय **गाळींचो**?), **केळीचे** गाबे (काय **केळिचे**?). कूच, म्हणटकूच, म्हणटकीर? काय तिनूय वापरप? संवसारांतल्या एकाच कोंकणी दिसाळ्याचो थोडो परामर्श घेवन सोंपयतां. दीसपट्टें आमच्या घरांनी वाचूंक मेळटा तें अशें: राठी – एखादें; कोंकणींत अशें उत्तर ना. आसात तीं कोणूय कसलीय वा खंयचीय (वस्त) अशीं उतरां. दिसून येता (खंय येता?) दिसता म्हळ्यार पुरो. जावन आसा (ह्या दोनूय उतरांची खंयच गरज ना.) आसा हें उत्तर लेगीत गरजेभायर वापरतात. ह्या दिसांत काय दिसांनी? मरण काय मर्ण? एकाच दिसा एकाच (सुनापरान्ताच्या पयल्या) पानार हीं दोनूय उतरां छापून (काय शापून?) आयल्यांत. पणजी हांगा किद्याक? पणजे म्हणप सामकें सुटसुटीत. कागाळ नोंद **ना करपाचें** कारण किदें? (सुना. २९/१०/९८) ना करप म्हळ्यार नश्ट करप हें त्या उपसंपादकाक कळुंकूच जाय!

इतलें म्हणून कृष्णार्पण म्हणटां.

* * *

*हो लेख शुद्धलेखनाच्या नेमांचेरूच आशिल्ल्यान तांतुंतल्या बरपाचें शुद्धलेखन आसा तशेंच दवरलां. – **वावुरपी संपादपी***

---

# पाळां नाशिल्लो रूख

ॉ. रघुवीर आमच्या देशांतले एक व्हड विद्वान. तांकां फ्रँच थोडी-भोव येताली. ती सारकी बरी कानार पडची आनी तिचीं बारीक-सारीक आंगां कळचीं म्हूण ते फ्रांसाक गेले. पॅरिसांत एका घराब्यांत रावपाक लागले. घराब्यांतलीं मनशां तांचेर मायेचो शिंवर करपाक लागलीं.

क दीस तांकां तांगेल्या दिल्लींतल्या एका इश्टाची एक चीट आयली. घरचे इकरा वर्सांचे पिरायेचे चलयेन ती पोस्टमेनाकडल्यान घेतली आनी घुवीरांक हाडून दिली.

ॉ. रघुवीर चीट वाचताले. तेन्ना ते चलयेन तांकां म्हळें, 'म्हाका मात्शी दाखयशात? तुमी तुमची भास कशी आनी खंयचे लिपींत बरयतात तें पळोवपाचें आसा...'

ॉ. रघुवीरांनी चीट तिच्या हातांत दिली. तिणें ती पळेली आनी म्हळें, 'आंवय, चीट इंग्रजींत बरयल्या! तुमकां तुमची भास ना?'

आसा, बाय. आमच्यो व्हड व्हड भासो आसात... सुमार अठरा व्हड भासो आमच्या देशांत आसात. आनी सगळ्या भासांक एकठांय गुंथपी हिन्दी ची एक भास आसा. ती आमची राष्ट्रभास!

मागीर तुमकां ही चीट इंग्रजींत कोणें बरयली? इंग्रज मनशान बरयल्या?'

ना बाय. म्हज्याच एका सोयऱ्यान बरयल्या.'

मागीर, ताणें इंग्रजींत कित्याक बरयली?'

संवय जाल्या आमकां इंग्रजींत बरोवपाची. इंग्रजांनी राज्य केलें आमच्या देशाचेर सुमार दोनशीं वर्सां. अजून आमच्या देशांत राजकारभार इंग्रजींतल्या ता...'

अजुनूय गुलाम उरल्यात तर तुमी.' इकरा वर्सांचे पिरायेचे ते चलयेन म्हळें.

ॉ. रघुवीरांक लज जाली.

नपरां जेवपाक सगळीं सदचे वरी बसलीं. पुणून कोणूच कोणाकडेन उलयनासतना जेवलीं. जेवन सगळीं उठ्ठकूच घरचे मालकिणीन रघुवीरांक , 'वायट धरूं नाकात आं... फायच्यान तुमी दुसरेकडेन खंय तरी वेवस्ता केल्ली बरी. म्हजी धूव तुमकां गुलाम लेखता. आनी गुलामां वांगडा री करप, रावप उणाकपणाचें मानता...'

तलें सांगून तिणें म्हळें, 'म्हजे आवयची तुमकां एक खबर सांगतां... म्हजी आवय लॉरॅनच्या एका ड्युकाची धूव. लॉरॅन फ्रांसाचो एक वाटार. तो या म्हा-झुजांत जर्मनीन जिखून आपणाल्या देशाक जोडलो. जर्मन सरकारान रोखडोच ह्या वाटाराचो राजकारभार जर्मन भाशेंत सुरू केलो. इश्कोलांतूय न भासूच चलपाक लागली. फ्रँच भास लोक घरांतूच उलयताले. बाजारांत उलयताले. पुणून समाजांत 'भौमानाची भास' जर्मन जाल्ली.

क दीस जर्मनीची राणी कॅथरीन लॉरॅनाक भेट दिवपाक आयली. म्हजी आवय एका कॉन्वेन्टांत शिकताली. थंय पावली. कॉन्वेन्टांतल्या भुरग्यांनी नाच करून दाखयले, गितां म्हणून दाखयलीं... राणी खोश्शी खोश्शी जाली. उठून वचचे पयलीं राणयेन भुरग्यांक म्हळें, 'आतां निमाणें जर्मन चें राष्ट्रगीत म्हणून दाखयात.' कोणाक जर्मनीचें राष्ट्रगीत येनाशिल्लें. फकत म्हजे आवयक येतालें. तिणें तें शुद्ध उच्चारांत खणखणीत आवाजांत . राणी खोश्शी जाली आनी तिणें म्हजे आवयक म्हळें, 'तुका कितेंय तरी इनाम दितलीं म्हणटां. तूंच सांग, कितें दिवं?'

हांव मागतां तें मेळटलें व्हय म्हाका?' म्हजे आवयन विचारलें.

हांव राणी... राणी उतर दिता तेन्ना फाटीं केन्ना सरना... माग, तुका जाय तें...'

हजे आवयन म्हळें, 'लॉरॅनाच्या वाटारांत फायच्यान फ्रँच सुरू करात. जर्मन नाका. आमची भास फ्रँच. जर्मन आमकां शिकयल्यारूच येता. फ्रँच नासतना लेगीत येता. हेच भाशेंतल्यान हांगासरलो राजकारभार चलूंक जाय. हांगासरलें शिक्षण चलूंक जाय... म्हजी आवय त्या वेळार फकत वर्सांचे पिरायेची. हे आवयची धूव हांव... जांकां आपणाले भाशेचो अभिमान ना त्या गुलामांकडेन वेव्हार म्हाका करूंक येना... तुमी फायच्यान कडेन वचात...'

कोणें सटकुटेर फुलोवन घरांतलो भायर घालचो अशेंशें कितें डॉ. रघुवीरांक जालें.

* * *

# तीर-सुवादीक कॉलम

## दिलीप बोरकार

‘दिलीप, बेळगांवां या. बरोऽऽ घोस्त काडुंया.’
राजू नायकान बरोऽऽ घोस्त काडीत म्हळें.
परिशदेक गेल्ले तेन्ना न्हय आं, ताचे आदले खेपे गेल्ले तेन्ना.
आतां, राजू म्हणटा तेन्ना म्हळें या. गाडी तर आसाच म्हजी.
ते भायर कांदेय म्हारग जाल्ले, येतना तेय हाडूं येताले.
कांद्यांचें सोडून दियात, वचपाक आनीक एक कारण आसलें.
राजूक भाशा मंडळांत बेळगांवच्यान पत्र आयिल्लें.
ताचेर हांवें चंदा पै म्हूण एक नांव वाचिल्लें.
नांव सुंदर आशिल्लेंच, म्हणटकच तेंय सुंदर आसचें पडलें ना?
अशे सुंदर लोक आसले म्हणटकच संमेलनां, परिशदो बऱ्यो सोबतात.
‘राजू, हें चंदा पै कोण रे?’
म्हाका चलयांचो व्हडलोसो इंटरेस्ट ना अशें भासयत विचारलें.
राजू आपली मान सकयल वयर हालयत हांसत रावलो.
‘बेळगांवां योच तूं. कळटलें तुका. बरेंऽऽ आसा.’
राजूचें ‘बरेंऽऽ’ आमी नकळो तर!
तो माधवीकूय बरेंऽऽ म्हणटा.
भाशा मंडळूय बरेंऽऽ चलता म्हणटा.
आतां हें पळेयात, म्हाका चलयांचो तसो इंटरेस्ट ना.
कित्याक तर वय जालां.
म्हजें न्हय, म्हजे वांगडच्या चलयांचें.
देखून हांव कोणाचकडेन वांकडे नदरेन पळयना.
पळोवचेंच जाल्यार सरळ नदरेन पळयतां.
हांवें ‘बबलूचीं पत्रां’ बरयलीं तीं सरळ नदरेन.
पूण म्हज्या एका वाचकवर्गान मात तीं वांकडे नदरेन घेतलीं.
हो वर्ग म्हज्या बरपाकडेनूच न्हय, म्हजेय कडेन वांकडे नदरेन पळेता.
तर हांव तुमकां सांगतालों ती बेळगांवची खबर.
तसो हांव हे पयलीं बेळगांवां खुबदां गेलां.
पूण पयले खेपे हांवें बेळगांवचो धसको घेतिल्लो तो अजून आसा.
कॉलेजांत शिकता आसतना म्हजो एक इश्ट म्हणूंक लागलो, बेळगांवां या.
तो हुबळीचो जाल्ल्यान बेळगांव ताका संवकळिचें.
हांव बेळगांवां पयलीं केन्ना पावंक नाशिल्लों.
तो आफयता तेन्ना म्हळें या आनी फोल्ग मारुंया.
म्हज्या बोल्सांत तेन्ना फकत चार आणे.
तेय घरा वचूंक बसीक दवरिल्ले. अर्दे टक्के सवलतिचे.
ह्या चार आण्यांनी गोंयच्यान बेळगांव कशें वचप?
तर तो इश्ट म्हणूंक लागलो, खर्च आपूण करतां.
जालें, ताचे वांगडा हांव बेळगांवां आयलों.
म्हाका थंय सगळेंच नवें. गोंयच्यान पयलेच खेपे हांव भायर सरिल्लों.
त्या इश्टावांगडा हांव बेळगांवां फोल्ग मारतालों.
बेळगांवां फोल्ग मारप म्हळ्यार हॉटेलांत रावप.
तो जें कितें कोप मारता तें हांवें मारप.
आनी मागीर वचून सिनेमा थिएटरांनी बसप.
बेळगांवची ही मजा पयल्या दिसाच सोंपली.
दुसऱ्या दिसा अशेच जेवन आमी सिनेमाक वचपाचे आशिल्ले.
म्हज्या इश्टान चिकन बिर्याणी मागयली.
पूण म्हजी तर चिकन-मटणाकडेन दुस्मानकाय.
बेळगांव येवन मात्सो सुदारुंया म्हूण हांवें ‘एग मसाला’ घेतलो.
चपातेक लावन हांव तो रुचीन खातालों.
इतल्यान म्हाका ठसको बसलो.
गळ्याक कसो तरी कुडको घट्ट बसलो.
तांतयाचो कुडको काय असो बसूंक शकनाशिल्लो.
हांव सामको फुगार जावन कळवळूंक लागलों.
गळ्याक कितें आडखळ्ळां तेंच कळना जालें.
उलयतलों म्हळ्यार तोंडांतल्यान उतरां येनात.
हांव फकत तोंडान ऑऽऽ ऑऽ करीत रावलों.
बोवाळ आयकून सगळे वेटर म्हजे भोंवतणी जमले.
कोण गळो पोशेता तर कोण फाट थापटिता.
कोण उदकाचो घोंट घे म्हणत ग्लास तोंडाकडेन हाडटा.
म्हजो तर जीव वचपाकडेन पाविल्लो.
सगळीं गिरायकांय आतां म्हजे भोंवतणी जमिल्लीं.
जो तो आपले परीन कितें ना कितें प्रयोग करतालो.
इतल्यान कोणें तरी म्हजे फाटीर नेटान धपको घालो.
आनी म्हज्या तोंडांतल्यान कितें तरी मेजार पडलें.
तो दांत काय आसूंक शकनाशिल्लो.
हातांत काडून पळय जाल्यार बोटभर हाडा कुडको.
हे आदी हांवें तशीं तातयां खाल्लीं.
पूण तांकां हाड आसता हें पयलेच खेपे अणभवतालों.
‘हें हाड कसलें?’ हांवें दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत वेटराक विचारलें.
‘चिकनाचें!’ तोंडार निर्विकार भाव दवरून ताणें म्हळें.
म्हाका हाडां लेगीत वळखूंक येनात देखून तो अजापलो.
पूण एग मसालांत हाडां पावलींच कशीं?
तर खंय ते चिकनाचो रस्सो घेताले आनी
तातूंत आदींच उकडून दवरिल्लीं तांतयां सोडटाले.
हांवें चिकन खालां हें कळनाफुडें म्हाका धवळून आयलें.
हांव थंयच्यान धांवत बेसिनाकडेन गेलों.
खाल्लें तितलेंय पोटांतलें भायर आयलें.
हें आदींच घडिल्लें जाल्यार गळ्यांतलें हाड तरी भायर सरपाचें.
त्यांय प्रसंगार म्हाका महाबळेश्वरबाबाची याद जालेबगर रावलिना.
महाबळेश्वर बोरकार असोच मंगळूराक ओंकतालो.
आमकां थंय टी.ए. पै मामान व्हडली पार्टी दिल्ली.
बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय बी आसले.
तांचे वांगडा आमीय स्कॉच घेताले.
हांव कांय चिकन-मटन खायना म्हणटकच शादूर आशिल्लों.
म्हजेखातीर तळिल्ल्यो नगल्यो येताल्यो.
जेवणाक सगळ्यांनी कितें कितें मागयल्लें.
ते तें आवडीन खाताले. पूण महाबळेश्वरबाबाक पाडी बुद्द सुचली.
आपणें खालां तें कसलें मास काय म्हूण ताणें चवकशी केली.
तेन्ना ताका तें बीफ म्हळ्यार गायचें मास म्हणपाचें कळ्ळें.
ताच्या ज्ञानांत भर पडल्या मात, तो बेसिनाकडेन धांवलो.
ताळ्यांत बोटां घालू-घालून बीफ भायर काडूंक लागलो.
मनोहरबाबान म्हळें, ‘पोटांत गेलें मरे? पावन जालें.

लें काडून जीब कित्याक विटाळटा?'
वीं तितलींच उतरां हांवें गांठीक मारिल्लीं.
ल्या प्रसंगार कायं तीं म्हाका पावलिंनात.
क्चर बी कांय नाका जालें.
आमी गोंयची वाट धरली.
ांवें बेळगांवचो घेतिल्लो धसको अजून आसा.
वां या म्हणटकच पयली याद जाली ती ह्या हाडाची.
ी बेळगांवची वाट धरली.
ा पैगेर परिशदेची बसका आसली.
रिशदेचो अध्यक्ष वेंचपाचे आशिल्ले.
चो वांगडी न्हय देखून एका कोनशाक बसलों.
चंदा पैक सोदीत आशिल्ली.
सोंपूक आयली तरी ताचो पत्तो ना.
यक्ष म्हूण पुंडलीक नायकाचें नांव आयलें.
यकाची निवड जाली.
ा मनशान निर्णय दिलो.
ताळयो मारून निर्णयाक येवकार दिलो.
ी निवड ही योग्यची आसा.'
णैमामान म्हळें आनी हांवें अजापून पळयलें.
ळ्यार हरिश्चंद्रमाम पै आशिल्ले तर.
वेळ भलत्याचीच वाट पळयतालों.
ान राजूकडेन पळयलें.
पांय हालंयत गुणगुणटालो,
ंदा, किसने चुराई तेरी मेरी निंदिया'.
वन म्हाका लागिल्लो हो दुसरो धक्को.
ो कोंकणीपासत सोंसून घेतलो.
ुत म्हजे सारक्याक कितें सोंसचें पडलेंना?
फुडारी सदांच म्हणटात, आमकां कोंकणी पासत
पडलें.
ुत गा सोंसचें. ना कोणें म्हळां?
इतलें सोंसलां व्हय तर तांणी?
भुरगेपणासावन मराठीवादी.
लिनीकरणाचे चळवळींत हांवें वांटो घेवंना जायत.
ातांत गुलाब घेवन 'झालाच पायजे' म्हळां.
बाळीत 'जेय जेय म्हारास्ट माजा' म्हणत
ांच्या गाडयां फाटल्यान धांवलां.
आकाशवाणीचेर मराठी जाय म्हूण मोर्चांत हांवें वांटो लेगीत

तेनची चडटी काडटा आसतनाच म्हाका उतरती कळा लागली.
न ल्हवूच फाटीं देंवून हांव कोंकणी कळपांत आयलों.
स्वासघात केलो हांवें मराठीवाद्यांचो!
र म्हज्या काळजाक कितें भोगलां आसत हाची कल्पना करात.
त कोंकणी विश्वांत रिगलों आनी पुराय कोंकणीमय जालों.
कणींत केदे व्हड व्हड मनीस पळोवंक मेळ्ळे.
, रवीन्द्रबाब, चंद्रकांतबाब, पंडितबाब, बाकीबाब आनी हेर
ाब.
न आशिल्लों तेन्ना थंय फकत बोब आशिल्ली.
कणीचो वावर सुरू जालो तोच कोचीन संमेलनान.
दिश्टावो जाल्लो हांव कोचीन वचूंक भायर सरलों.
चूंक मेळटा म्हूण जायते गोंयकार तयार जाल्ले.

गोंयची बॉर्डर हुपून कर्नाटकाक पावले तेन्ना
हांव फॉरेनाक पाविल्ल्याचो भास म्हाका जालो.
हांव थंयचीं झाडां, थंयचीं मनशां, फातर सगळें
अप्रूप नदरेन पळयतालों.
तेय परस म्हाका चड अप्रूप दिसलें तें आमच्या म्हालगड्यांचें.
गोंयची शीम हुपले बराबर सगळ्यांक कन्नड
येवंक लागिल्ली.
हांचे हे गूण म्हजे सारक्याक नवे आशिल्ले.
म्हज्या पूर्वाश्रमीच्या लोकांक म्हळ्यार मराठीवाद्यांक
तर मराठी लेगीत धड येना आशिल्ली.
मनोहरबाब जंय गाडी रावता थंय कन्नड मारतालो.
कोणाक इल्ली बा म्हणटालो तर कोणाक अल्ली होगू.
'बा' म्हळ्यार यो हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें.
हांव घराकडेन कोंबयांकूच आफयतना 'बा, बा' म्हणटालों.
आमच्यो गोंयच्यो कोंबयो खंय कन्नड शिकल्यो काय?
मनोहरबाब भौभाशीक हें एक समजूं येतालें.
पूण महाबळेश्वर बोरकाराक लेगीत कन्नड येवप?
म्हजो म्हालगड्यांविशिंचो आदर द्विगुणीत जालो.
उपरांत आमी कर्नाटकाची शीम हुपून केरळाक पावले.
गाडयेंतले म्हालगडे खंय खंय पावले तें सांगताले.
तांणी हे आदीं भरपूर प्रवास केल्लो आसूंक जाय.
म्हाका तर म्हज्या गांवचे वाडे लेगीत खबर नाशिल्ले.
हांव बारकायेन गांव पळोवन ते लक्षांत धरतालों.
म्हालगडे सांगाताक नासतना भुरग्यांचेर इंप्रेशन मारूंक बऱ्याक पडपाचें.
कोचीक पावलों तेन्ना हांव म्हज्या म्हालगड्यांकडेन आशेन पळयतालों.
ते आतां थंय पावना बराबर मल्याळी उलयतले म्हूण!
पूण थंयच्या कोंकणी फुडाऱ्यांकडेन हे भलतीच कोंकणी उलोवंक लागले.
थंय के. के. पै आनी पुरुषोत्तम मल्ल्या म्हूण म्हालगडे मेळ्ळे.
तांकां भेटना बराबर चंद्रकांतबाबान तांची कोंकणी सुरू केली.
'मल्ल्यामाम, सगल्लें भाऽऽरी जालां न्हय वे?'
'आनीक भारीऽऽ कित्तें जावका वे?'
ही सगळी नविदाद हांव म्हज्या दोळ्यांनी, कानांनी साठयतालों.
ह्या सगळ्या मामां वांगडा म्हजी वळख जावंक लागली.
आमचे गोंयचे सगळे बाब थंय पावतांच माम जावन गेल्ले.
हांवूय म्हजे परीन तांकां माम बी म्हणटालों.
असोच एक कोण तरी माम म्हजेकडेन आयलो.
ताच्या सांगाताक एक सोबीत चली आशिल्ली.
त्या वयार कोणूय सोबीत दिसपासारकी म्हजी पिराय.
'हांव गोविंद पै आनी ही मिगेली चली विद्या.
तुमगेलें नांव कित वे?'
'दिलीप बोरकार', हांवें नेटान सांगलें.
तेन्ना हांवें दोन चार कविता बरयिल्ल्यो.
त्यो हांगा थंय छापुनय आयिल्ल्यो.
पूण म्हज्या नांवाचो तांचेर कांयच परिणाम जाल्लो दिसलोना.
'तुमी कोंकणी न्हय वे?'
आतां हें कितें विचारप जालें? कोंकणी म्हणुनच तर
हांव परिशदेक आयिल्लों.
'हांवें नेटान हय म्हूण सांगलें. गोंयांत तेंच सांगपाक
हांव लजपाचों.'
'म्हळ्ळ्यारी तुमी जीएसबी?'

ते चलयेन आपले लिकलिकीत दोळे दोन-चार खेपे बिटबिटायत विचारलें.
जीएसबी हो प्रकार म्हजेखातीर नवो आशिल्लो.
कितें जाप दिवप हेंच म्हाका कळ्ळें ना.
तेन्ना तिच्या बापायनूच तिका जाप दिली.
'बोरकार म्हळ्ळ्यारी जीएसबीच आसका.'
तेन्ना म्हाका हांव जीएसबी म्हूण कळ्ळें.
उपरांत खंयच्याय मामान 'बोरकार म्हळ्यारी कोण वे?'
अशें विचारनाबराबर हांवें जीएसबी म्हूण सांगूंक सुरवात केली.
कोची परिशदेक तें विद्या तर म्हजेच भोंवतणी घुटमळटालें.
आपल्यागेर जेवपाक येवपाक फोर्स करतालें.
म्हाका दिशिल्लें तें, हांव एक कोंकणी मनीस,
एक कवी देखून तशें करतां.
पूण तें घुटमळटालें वेगळ्याच कारणाक लागून!
कोंकणी मनीस, कवी, लेखक जावंचे परस
जीएसबी जावपांत कितलो मान आसा
हाचो साक्षात्कार म्हाका जाल्लो.
तोच मान घेवपाक हांव पुरायेन जीएसबी जाल्लों.
एक दीस महाबळेश्वर बोरकारानूय म्हाका प्रस्न केलो.
'दिलीप, तुजो देव खंयचो?'
ह्या देवां बाबतींत म्हाका सदांच कोफुसांव.
त्या वेळार सांगाताक बाकीबाब आशिल्लो.
ताका महाबळेश्वरबाबाच्या प्रस्नाचो हेतू कळ्ळो जावंक जाय.
ताणेंच ताका सांगलें, 'बोरकार शांतादुर्गेचे हें खबर ना रे?'
इतलें आयकून ओगी रावल्यार तो महाबळेश्वरबाब कसलो?
ताणें म्हाका म्हजें गोत्र विचारलें.
हांव परतून घुसपलों. बाकीबाबानूच ताका जाप दिली.
'ताचें गोत्र वत्स रे.'
त्या वेळार म्हाका परतून साक्षात्कार जालो.
फकत जीएसबी आसून उपकारना. ताका देव, गोत्र बी सांगूंक येवंक
जाय.
तर इश्टांनो, कोंकणीच्या नांवान कोचीन, मुंबय, मंगळूर, बेंगळूर अशी
म्हजी भोंवडी जाली.
हे परिशदेच्या निमतान हांव परतो बेळगांवांय पावलों.
ह्या सगळ्या प्रवासांत हांव अणभवी जालां.
आदल्या संमेलनां-परिशदांक हांव वांगडा हांथरूण
हाडून खंयच्याय माटवांत लवंडटालों.
म्हालगडे गाडयो घेवन येवन हॉटेलांत रावताले तें
लक्तुबायेन पळयतालों.
आतां हांव गाडी घेवन येतां आनी हॉटेलांत रावतां.
हेरांक 'तुमी कशे चमकून आयल्या वे' म्हूण विचारतां.
कोणाचेंय नांव कळटकच 'तुमी जीएसबी वे?'
म्हूण चवकशी करतां.
शणैमामाकूय हांवें विचारलें,
'शणैमाम, तुमी जीएसबी वे?'
तर तांणी म्हळें, 'न्हय वे. त्या जीएसबींक कसल्ली गोत ना.
कोंकणीक गोत आसा. हांव कोंकणी.'
आनी म्हाका बेळगांवांत हो तिसरो धक्को बसलो.

[१५ जानेवारी १९९९ दिसा बेळगांवां भरिल्ले २२वे अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेंतले सांस्कृतीक कार्यावळींत 'बोरकारी' ह्या नांवान सादर केल्लो एकपात्री प्रयोग.]

---

पुर्विल्ल्या काळावयल्या एका राजाक एक दीस दिसलें, आपली प्रजा खूबच आळशी जाल्या. कसल्याय ल्हान-सान कामांत लेगीत जण एकलो दुसऱ्याक बोट दाखयता. हाका लागून राज्यांत एके तरेचें मेंगळेपण आयलां आनी उदरगतिचीं चिन्नांय बी दिसनात. तेन्ना, राजान प्रजेक देख शिकोवपाचें थारायलें.

एक दीस रस्त्याचेर एक व्हडलो कंडो सगळ्यांनी पळेलो. दर एकलो थंयच्यान येतना-वतना 'कोणच कशें लक्ष दिना? कोणेंय तरी तो काडपाचो न्हय?' अशें म्हणटालो पूण कोणूच कंड्याक हात लायनासलो. म्हयन्या उपरांत राजा थंय पावलो तेन्ना ताणें पळेलें, अजून कंडो थंयच आशिल्लो. राजा आपुणूच रथांतल्यान सकयल देंवलो आनी ताणें अचळय तो कंडो कुशीक धुकल्लो. तेन्ना थंय जमिल्ल्या सगल्या लोकांनी कंड्या पोंदची म्होरांची पोती पळेली. राजान म्हळें, 'हो कंडो हालयतल्या कोणाकय ही पोती मेळपाची. पूण तें काम हांवेंच केल्ल्यान म्हाकाच ती मेळ्ळी.'

हें आयकून कांय लोक सामके चुरचुरले आनी त्या दिसासावन आपणावयली आळसाय फांफडून तांणी सुटसुटीत जावपाचें थारायलें. पूण कांय जाणांनी येवजिलें, आपणाल्या नशिबांतूच आशिल्ल्यान ती पोती आपणाक मेळ्ळीना.

मनीस जेन्ना आपली शक्त आनी बुद्द वापरून कश्ट करता तेन्नाच ताका बरें फळ मेळटा. घोड्याक खंय उदकामेरेन व्हरूं येता, पूण ताका उदक पिवपाक लावूं नज. आवय-बापूय, सोयरे-धायरे, गुरू आनी इश्ट-मित्र ताका वाट दाखयत, पूण ते वाटेवयले धकेचपाटे सोंशीत जण एकल्याक आपलो फुडार घडोवचो पडटा.

संस्कृतांत एक म्हणणी आसा – 'प्रयत्नांति परमेश्वर'. आमचे फाव ते दिकेन येत्न जाले नात जाल्यार मनांत मांडे खावन कांयच उपेग ना. मागीर मनीस वाजेता. जिणेक उबगता आनी जाचें साधलां ताचेर कड्डता. घरच्यांच्या, इश्टांच्या आनी सरकाराच्या तोंडाकडेन पळेता. पूण बऱ्या कामाक सुरवेक आपणें फुडें सरचें हो हावेस तो धरिना.

मनीस दोन तरांनी फाटीं पडूं येता. एक, ताकतिकेन फाटलें फुडलें येवजिनासतना उडी घालून आनी दुसरें, फकत कसलेय गजालिचेर येवजित येवजित आनी नानाकारी येवजण्यांनी कांचवेत वेळ वेगडावन.

दोंगर चडून देवाक भेटचें आनी येत्न करून येस गांठचें.

— सरिता नारायण देसाय

# ळाराचे वाटेर

अरूण साखरदांडे

ाचे वाटेर म्हज्या
ीणिचें झाड
ेतलें म्हूण धोलता
पिसो माड

ळां गुंथून गुंथून केली
पणा फांती
च्या वज्यापोंदा
्यो सगल्यो राती

राचे वाटेर हांव
त येतां यादी
ांतल्या दुख्खांनी
ली घोवा गादी

राचे वाटेर म्हज्या
आनी न्हंयो
ट मायेन भरून येतात
रबाये बांयो

ीलदारा हामेता
कृष्णागाय
पळेत हुंबऱ्यार उबी
दुदा सांय

लावेली तिकली जाली
जवेळचो सुर्या
ळारच्या भावा मेळूंक
न वता दर्या

तावेली मेथी बांये
ून वचून वचना
ळाराची वाट माये
पून सोपून सोपना.

# कुळाराचे वाटे

□ नूतन साखरदांडे

कुळाराचे वाटे म्हज्या
बांदा बांदार माड
आंगणां कशें आयलां
फुलून चमेलीचें झाड

कुळाराचे वाटे म्हज्या
धालो खेळटी देवळां
फांत्या पारा सपनांवरी
सांडती कांदळां-ओंवळां

कुळाराचे वाटे म्हज्या
कितले कांटेच कांटे!
अनवाणी चलती वाट
पावलां कोण भेटे?

कुळाराचे वाटे मागीर
कांटे फुलांच फुलां
तांच्या वासार चलपाचें
बळगें कोणें दिलां?

कुळाराचे वाटे, म्हज्या
काळजाचें पेणे,
उमाशेची रात; मनांत
मान्ने पुनवे चान्नें!

कुळाराचे वाटे म्हज्या
कोण पळे ना गे वाट,
देवाऱ्यांतल्या देवान लेगीत
म्हाकाच केल्या फाट!

# गर्व से कहो...

□ नयना आडारकार

'गर्व से कहो हम हिंदू हैं'।
'हिंदू हांव, हिंदू हांव'

हिंदू तूं जाल्यार नांव कितें?
नांव कितें, आडनांव कितें?
गोत्र कसलें आनी कूळ कितें?
आडवो-उबो भेद कितें?
कात कसली आनी जात कितें?
जातींतली पोटजात कितें?
पोटजातींतली शीम-मेर कितें?
ऊंच-सकयल थर कितें?
तूं पयलीं
बामण, क्षत्रिय, वाणी, सुदीर
मागीर चड तूं हिंदू वेदीर
आनी बोमले देठांतल्यान आड्डय मागीर
'गर्व से कहो हम हिंदू हैं!'

# आवय

□ पूर्णानंद च्यारी

म्हजी आयाव आवय
अस्मितायेची अप्रूप गवाय
तिच्या दुदांत कोंकणीचीं प्रथिनां
तिच्या पावलांनी
फुगड्यां धालांचो झेत
तिच्या काणयांनी
गोंयचो वासाळ वारो
तिच्या ओंवयांच्या मधुर कंठांत
सुरांगरांतलो झरो
तिच्यो शिस्तिच्यो बडयो फाटीर
जशो शामेळिचे कातीर
तिच्या ओंठांत
पोफळां पानांचें रंगलां कुळागर
तिच्या हातच्या तेफळा हुमणांत
मेल्ली बांगुल्लीय जावची जिती
तिच्या भांगांतलो कुकूम
दोन शेतांमदीं तांबडे मातये वाट शी
तांबडे मातयेक फुटचीं पिसोळीं
तशी तिच्या माथ्यांत सोबलीं आबोलीं
एकय दीस वचना
गाय पाडका-कुकडांक
अपुर्बयेन गोंयच्यो गाळी संवले शिवाय
तशी म्हजी आवय
अस्मितायेची अप्रूप गवाय !

# तूं आनी फूल

□ सखाराम गोविंद शे. बोरकार

तुजें वागप,
रुतू भशेन बदलता.

केन्ना मोनेळ, केन्ना हांसो,
केन्ना मोग, केन्ना राग.

आनी परतून,
मोनेळ, हांसो, मोग, राग.

त्या फुलाक पळय.
एकदांत बाबडें तें फुलता.
मागीर बावता आनी झडटा.

तुजे भशेन ताका,
परतें परतें,
फुलूंक येना,
बावूंक येना,
झडूंक येना.

फुलाक तुजी नसाय
जाता काय ?

## झळ

□ परेश नरेंद्र कामत

घाल अथांगाची मिठी
दोन उतरांचे मजगतीं

दिठयेंत दिसूं खर
फुलत्या काळजाची झळ...

ओंठ जातना अबोल
वाजूं घुंगरावरी बोल.

## उजवाड

□ परेश नरेंद्र कामत

फांतोडेर फुलतल्या फुलांभशेन
म्होंवय
तांबशीच ओंठुली

उजवाड शिरंतरांनी पाझरतना
उगड
गांठीगांठींतली देंठुली...

## चंवळ्यो

□ राजय पवार

खंय घेवन वतात म्हाका
हीं तुजीं पावलां,
हांवय नकळ तांचेफाटल्यान
चलत कित्याक रावलां

*

दरेका देवळाचो दरवंज
इतलो मोटवो जावंचो,
केदोय व्हडलो गिरेस्त
बावगूनच भितर येवंचो.

*

हांवें तुका गुलाब दिला
तूं म्हजेंच उरचें देखून,
आतां परक्यांकडेन उलयतना
मात्शें जोखून-मापून.

*

कोणंतरी खंयतरी
दुकां गळयता,
हांव येतलों येतलों म्हण
वाट पळयता.

*

मनशांपरस, म्हाका दिसता
जनावरांच बरीं आसतात
मनशांभशेन तांच्या तोंडार
रुपडीं तरी नासतात.

# राष्ट्रीय मान्यतायेखातीर पूर्वतयारी




**चंद्रकांत केणी**

साहित्य अकादमी हें नांव म्हाका संवकळिचें जालें तशें दिल्लीक वतकच. ते मेरेन साहित्य अकादमी म्हळ्यार कितें, ती कितें करता हें म्हाका सारकें खबर नासलें. आचार्य काकासाहेब कालेलकार हांचो साहित्य अकादमीकडेन लार्गिचो संबंद. त्या काळार पंडित जवाहरलाल नेहरू अकादमीचे अध्यक्ष आसले. गुजराती कवी डॉ. उमाशंकर जोशी हेय अकादमीचे वांगडी आसले. खुबशे वांगडी आनी सरचिटणीस काकासाहेबांचे 'सन्निधीं'त येवन अकादमीच्या वावराविशीं चर्चा करताले. हे अकादमीकडेन आमचें कितें दिवप-घेवप आसूं येता वा फुडें फाटीं कोंकणीक तिचे मान्यतायेची गरज उप्रासतली हो विचार लेगीत म्हज्या मनाक केन्ना आफुडलो ना.

कोंकणी चळवळिचें त्या काळचें रूप वेगळें आसलें. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत कोंकणीचो प्रस्न उरतलो अशें म्हाका तरी दिसूंक नासलें. वाद तो फकत कोंकणी मराठीचो आनी ताका जाप वर्तमानपत्रांतल्यान आनी सभांतल्यान दिवपाची असो म्हजो समज जाल्लो. खरें म्हळ्यार कोंकणीचो प्रस्न हांवें सारको समजुनूय घेवंक नासलो. कोंकणी कडलो म्हजो ओडो भावनीक आसलो. भासांचें वेगळें शास्त्र आसता हें हांव आयकून जाणा आसलों. पूण भासशास्त्राचे नदरेन कोंकणी स्वतंत्र भास हें सिद्ध करपाची कुवत म्हज्यांत नासली. एके भाशेन कोंकणीची चळवळ तेन्ना वोल्तेराचेर बसून चलोवपाची चळवळ आसली.

तितले मजगतीं म्हज्या हातांत 'कोंकणी भाशेचें जैत', 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ' हीं आनी शणै गोंयबाबांनी बरयल्लीं हेर पुस्तकां पडलीं. उथळ न्हंयंत देंवचें अनी एकेक पावल फुडें घालता तशी तळाची खोलाय वाडून न्हंयेंतल्या उदकाचो थर वयर चडत रावचो तशी म्हजी गत जाली. कोंकणीचो वावर करतलो जाल्यार आर्दी कोंकणीचो प्रस्न समजून घेवंक जाय म्हणपाचें हांव वळखलों. फादर एच्. ओ. मास्कारेन्यश हांणी त्याच दिसांनी 'साद' नांवाच्या नेमाळ्यांत कोंकणीविशीं आपलो एक अणभव बरयिल्लो. फादर मास्कारेन्यश हांचेपरस म्हजी आवतिकाय खूबच बरी आसली. म्हाका कोंकणी शिकून घेवची आसली हें खरें, पूण म्हाका भास येताली. म्हज्यो भावना उकतावपाइतली उतरावळ म्हज्या संग्रहाक आसली. शिकून घेवंक जाय तें व्याकरण आनी थोडेंशें शास्त्र. आनी ती मराठीची बोली न्हय हें सिद्ध करपाखातीर मराठीवाद्यांचे मुद्दे खोडपाची अक्कल. शणै गोंयबाब वाचलो आनी म्हजें ल्हानपण म्हाका समजलें. शाळेंतल्या वर्गांत वचून भुरगो भास शिकता ते निश्ठेन आनी निर्धारान त्या दिसाच्यान हांवें कोंकणी भाशेचो अभ्यास सुरू केलो.

रवीन्द्रबाब केळेकार त्या वेळार वर्धा सोडून मुंबय रावंक आयले. तांचेकडेन अखंड पत्रवेव्हार चलतालो. आचार्य काकासाहेबांकडेन तांणीच म्हाका पावयिल्लो. ते अर्दी मर्दी दिल्लीक येताले. 'सन्निधीं'तच रावताले. मागीर आमी वरांचीं वरां उलयताले. फुडाराचीं सपनां पळोवपाची नदर तांणी म्हाका दिली. तांणी म्हाका पटोवन दिलें, साहित्य अकादमीची मान्यताय ही कोंकणीच्या फुडाराखातीर भरवंशाची चावी. ते मेरेन कोंकणी चळवळींतलो कोणच साहित्य अकादमीचे मान्यतायेचो विचार करिनासलो. मजगतीं एक कोंकणी परिशद जाली. रवीन्द्रबाबांनी कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळची असो थंय थाराव मांडलो.

शणै गोंयबाबांचें साहित्य वाचत सावन म्हज्या विचारांक एक बसका मेळिल्ली. कोणाकडेनय वाद घालपाइतलें गिन्यान हांवें मेळयिल्लें. तांतु[illegible] आचार्य काकासाहेबांचें सान्निध्य. राष्ट्रीय थरावेलो केदो व्हडलो मनीस जांकां खासा महात्मा गांधी गुरूतुल्य मानताले आनी पंडित नेहरू आ[illegible] पुराय भारत सरकार जांच्या उतराचो मान राखता तांचो तर कोंकणी[illegible] उकतो आशिर्वाद आसा. कोंकणीविशीं आचार्य काकासाहेबांकडेन म्हज[illegible] चर्चा जाताली. आनी तांणी गोंयचे सुटके उपरांतचे परिस्थितिचो लेगी[illegible] विचार करून दवरला हें पळोवन म्हजो तांचे विशिंचो आदर आनी भक्त[illegible] वाडली.

अशे समर्थ मनीस कोंकणीचो पाखो घेतात जाल्यार साहित्य अकादमी[illegible] मान्यताय मेळूंक अडचण कसली तेंच म्हाका समजूंक नासलें. हांवें [illegible] विशीं आचार्य काकासाहेबांक एक दीस विचारलें. ''तुमी उतर घालें जाल्यार साहित्य अकादमीचो खंयचोच वांगडी ना म्हणचो ना.''

आचार्य कांकासाहेबांनी म्हाका सांगलें, ''धीर धर. योग्य वेळार कोंकणीक मान्यताय मेळटली. पूण कोणाच्या तरी बरेपणान कोंकणीक मान्यताय मेळोवप ही पुरुषार्थाची गजाल न्हय. कोंकणी भक्तांचे तपश्चर्येंतल्यान ती मेळूंक फावो. तशी मेळ्ळी जाल्यार कोंकणीचें तेज वाडटलें. आनी कोंकणी भक्तांची शक्त वाडटली.''

हांव निर्शेलों. पूण ते सांगतात तातूंत तथ्य आसा अशें दिसलें. तांणी फुडें सांगलें, ''झाडाचेर फळ आसलें म्हणून तें काडप वा पाडप सम[illegible] जावचें ना. तशे तरेन काडिल्लें फळ हरवें उरतलें आनी ताचो वास, रंग, रूच हांचो पुरायेन विकास जावचो ना. फळ पिकतलें तेन्ना आपसूक देंठापासून झडटलें. तुमी तुमची साधना चालू दवरात. एक विसरूं नाका[illegible] 'यथा भाषक तथा भाषा' – खंयचेय भाशेची गिरेस्तकाय पारखितलो जाल्यार ती भास उलोवपी लोकांची गिरेस्तकाय पारखिल्यार पुरो. तुमी जितले चड तप करतले, जितले निरपेक्ष बुद्धीन आवयभाशेची सेवा करतले तितली तुमची भास तेजिश्ट आनी बळिश्ट जावंक पावतली.''

मजगतीं साहित्य अकादमीचे सेक्रेटरी म्हूण डॉ. प्रभाकर माचवे हांची नेमणूक जाली. तांकां कोंकणी विशीं आपलेपण. तांचेकडेन हांव कोंकणीविशीं उलयतालों. डॉ. उमाशंकर जोशी हांचोय कोंकणीक तेंको आसलो. गोंयचे सुटकेच्या वावराच्या संदर्भांत पंडित जवाहरलाल नेहरूंकडेनय संपर्क येवंक लागलो. कोंकणीविशिंची तांची भुमिका पळोवन म्हजें काळीज भरून येता[illegible] पूण मान्यताय मेळोवप कशी तें कळनासलें. फकत थाराव पास करून आनी लेख बरोवन आमकां कोण मान्यताय दितलो?

एक दीस म्हजे तळमळे हांवें आचार्य काकासाहेबांच्या कानार घाल[illegible] तेन्ना तांणी म्हळें, ''गोंय स्वतंत्र जातलें तेन्ना कोंकणीचो प्रस्न सुटटलो. पूण नवे प्रस्न सुरू जातले. तशें जावप गरजेचें. भांगर कसाक लावचे आदीं उज्यांत हुलपायतात. कोंकणीकय अग्नीदिव्य करचें पडटलें. हें गोंयचे सुटकेउपरांत चडटलें. त्या अग्नीदिव्यांतल्यान कोंकणी चोख तरेन भायर सरची म्हणून तुमी तिची सेवा करूंक जाय. तिची शक्त वाडोवंक जाय. हेरांनी मान्यताय दिवचे आदीं कोंकणी लोकांच्या काळजांत तिका प्रतिश्ठा मेळोवन दिवंक जाय. त्या वावरांत तुमी एकाग्र चित्तान लागले जाल्यार निमाणें जैत तुमचेंच आसा.''

ल्हवू ल्हवू म्हजी खात्री पटली – गोंय स्वतंत्र जावचेंना ते मेरेन कोंकणीचो

योना. कित्याक, तर भुंयेबगर झाड जायना. तोच न्याय भाशेकय
ाी त्या दिसाच्यान कोंकणीच्या वावराक हांवें दुय्यम स्थान
प्रस्न गोंयचे सुटकेचो म्हणपाचें म्हज्या मनाक पटलें.
वीन्द्रबाब केळेकार गोंयांत वचून आयले. तांकां पुर्तुगेज सरकारान
ावयलो. गोंयच्यो मराठी शाळा बंद करून कोंकणीची सक्ती
ी ?

प्रस्न आचार्य काकासाहेबांकडेन मांडलो. तांणी शिटकायलें
क कोंकणीचो मोग ना. गोंयकारांचो भारतीय संस्कृतायेकडलो
चें कारस्थान तांच्या मनांत आसा. तुमचें आनी मराठीवाद्यांचें
आसूं, पुर्तुगेज राजवटींत गोंयच्यो मराठी शाळा चालू उरच्यो
धरात.''

काकासाहेब कालेलकारांचें म्हणणें बुद्धीक पटलें ना. पूण आमी
लें. निमाणें तशेंच घडलें.

स्वतंत्र जातलें ?... कशें स्वतंत्र जातलें ?...

ामचे भितर एकामेकांक हो प्रस्न विचारताले. जाप कोणाकच
ी. खरें म्हळ्यार आमच्या जिवितांत स्वतंत्र गोंय आमी पळोवंक
ें ... कोणाकच दिसनासलें. आमचे नदरेन गोंयचें स्वातंत्र्य
आसलें. आनी स्वतंत्र गोंयांत आमी कितें कितें करतले हाचें
ी मनोरथ करीत बसप हो मेकळ्या वेळावेलो आमचो छंद

एक आनंद आसलो. जें कितें जावचें अशें आमकां दिसतालें
कल्पनेचो आकार आनी उतरांचें रूप दिवन वर्तमानातलें कोडू
पाचो यत्न करताले.

दीस अचकित गोंय स्वतंत्र जालें. आनी जेन्ना गोंय स्वतंत्र
खबर आयली तेन्ना आमी सपनांत बी नात मू असो आमकां
लो.

तंत्र जालें. आनी गोंयांत दोन वाद सुरू जाले. हिंदू भौसान
र्मांध राजवटिचो सूड घेवपाच्या निश्चेवान भारतीय राष्ट्रवादाचो
ष्ट्रवादांत आस्पावला अशी भूमिका घेतली. खुबशी इतिहासकालीन
ची पुनरावृत्ती जायत हे भिरांतेन आनी खुबशी अतिरेकी
ान. तर्कच उरफाटो आसलो. गोंय महाराष्ट्रांत गेले बगर सुरक्षित
हांगा राष्ट्रवाद पाळां-मुळां धरूंक पावचो ना. पूण महाराष्ट्रांत
ादार कितें? भाशेचो आदार घेतलो. कोंकणी-मराठी वाद
. त्याच तर्काक फोण्ण दिलें. कोंकणी ही मराठीची बोली आनी
महाराष्ट्राची भास. देखून गोंय महाराष्ट्रांत घालुंकूच जाय. ते
णी-मराठी वाद हो साहित्य संमेलनाच्या व्यासपिठावेलो वा
ासाभाशेंतलो बौद्धिक वाद आसलो तो भौशिक जावन बसलो.
यें पोट फोडूंक येना असो मनीस लेगीत कोंकणीचें मराठीकडलें
न सांगूंक लागलो. नव्यान मेळिल्ल्या स्वातंत्र्याक लागून भौसाचो
ाच व्हडान गाजलो.

चळवळ ते मेरेन भौसामदीं पावंक नासली. ह्या आडमेळ्यां
आवाज काडलो तो क्षीण आसलो. कोणाकच आयकूंक येना
ल्यान सोंपलें ना. कोंकणीचो पुरस्कार करतात ते पुर्तुगेज धार्जिणे,
त्तिचे लोक असोय आरोप जावंक लागलो. ह्या आरोपाक
या मराठी वर्तमानपत्रांनी प्रसिद्धी मेळूंक लागली. छापिल्लें उतर
मानपी आमचे लोक कोंकणी भक्तांकडेन दुबावान पळोवंक
ी भौसान कोंकणीचो पाखो घेतलेबगर कोंकणीचो उद्धार जावचो
ामकां जाणविकाय जाली.

मदार आशिल्ली किरिस्तांव समाजाचेर. त्या वेळार गोंयच्या
े ४० टक्के आसताले. तांकां जागयले, पूण आपणाक कोणूय
अराष्ट्रीय म्हणत हे भिरांतेन ते तोंड धांपून भितोडेक राविल्ले.

हो भितोडेक राविल्लो समाज जे मेरेन रस्त्यार येवचोना, आपल्या काळजांतले उमाळे उतरांनी उलोवन दाखोवचो ना तें मेरेन महाराष्ट्रवादाच्या आक्रमणा आंड झुजपाचें बळ आमच्यांत येवचेंना इतलें आमी पारखिल्लें. आमी वावराक लागले.

वावराची संद मराठीवाद्यांनीय दिली. तांणी पणजे गोमंतक मराठी साहित्य संमेलन घेतलें आनी त्या संमेलनाक कांय मराठी लेखकांक आनी राजकारण्यांक आपोवन हाडले. थंय एक थाराव आयलो. सदांच्या सांच्यातलो थराव. कोंकणी मराठीची बोली... देखून गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक जाय. भाशणांनी वेगळेवेगळे सूर आयले. बाकीबाबाक मांडवींत धुकलून उडोवचो. घरचे रांदचे कुडिचो हुमरो हुपपापची मेकळीक कोंकणीक दिवची न्हय...

कांय स्वाभिमानी कोंकणी भक्तांनी थारावाक विरोध केलो. तांकां उलोवंक दिलें ना. तांणी सभात्याक केलो. सभात्याक केल्ले फकत इकरा आसले. संमेलनाच्या जाळवणदारांक आनंद जालो. तांणी म्हळें, ''गोंयांत फकत इकरा जाणांक कोंकणी जाय, हेरांक सगल्यांक मराठी जाय.'' लोकांनी ताळयो मारल्यो. थाराव पास जालो.

पूण जे भायर सरले ते घरा गेले नात. तांणी सभा घेतल्यो. गांवा गांवा कणकणी वचून सभा घेतल्यो. सुरवेक सभांक पांच-पंचवीस लोक येताले. फुडें फुडें गर्दी वाडूंक लागली. गर्दी वाडली तसो कोंकणीचो आवाज गाजूंक लागलो. हिंदू किरिस्तांव मुसलमान ह्या गोंयकारांच्या एकवटाची भास कोंकणी हो संदेश ह्या सभांनी गोंयभर पावयलो. संकोच करतालो तो किरिस्तांव समाजय उलोवंक लागलो. आतां वादाची वा संघर्शाची शीम थारून गल्ली. गोंयची भौशीक जीण इतिहासांत पयलेच खेपे वेगळे तरेन उचांबळ जाल्ली पळोवंक मेळ्ळी.

हे भाशीक चळवळिचो परिणाम राजकीय मळाचेर जालेबगर रावलोना. गोंयाक संघप्रदेशाचो दर्जो केंद्रान दिल्लो. संघप्रदेशांत दमण आनी दीवचो आस्पाव जातालो. ३० वांगड्यांची विधानसभा वेंचून काडपाची तजवीज आसली. सत्तेच्या आसनाचेर आपलो हक्क आसा अशा भ्रमांत काँग्रेस फुडारी रावताले. काँग्रेसीमदीं दोन विचारसरणी समांतर वताल्यो. कोंकणीचो पाखो घेवपी लोक जशे काँग्रेसींत आसले, तसो मराठीचो पाखो घेवपीय आसले. काँग्रेस स्पश्ट भुमिका घेवची ना आनी कोंकणी भक्त त्रासांत पडटले अशी आमची भावना जाल्ली. तेच वांगडा काँग्रेस हो केंद्रांत सत्तेर आशिल्लो पक्ष जाल्ल्यान त्या पक्षाचो सांगात सोडप आत्मघातकीपणाचें जातलें अशेंय आमकां दिसतालें. चडशीं काँग्रेसचीं हेर धोरणां आमकां मान्य आसलीं. काँग्रेसचो आमी सांगात सोडल्यार काँग्रेस पक्ष मराठीवाद्यांच्या हातांत वतलो आनी ते काँग्रेसिचेर दडपण हाडूंक पावतले अशी आमकां भिरांत आसली. तातुंतय महाराष्ट्र राज्यांतले सगळे राजकी पक्ष मराठीचो पाखो घेवन गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावचें अशी एका आवाजांत मागणी करताले. आनी केंद्र सरकाराचें धोरण तांकां थातारून धरपाचें दिसतालें. अशा वातावरणांत कोंकणीचो पाखो घेवपी काँग्रेसींत उरलेनात जाल्यार कसले तरेचीं संकटां येवं येतात हाचो आमकां अदमास आसलो. गोंयचो राजकी फुडार आनी कोंकणी भाशेविशिंची संदिग्ध भूमिका ह्या दोन प्रस्नांचेर काँग्रेसी कडेन आमचे मतभेद दवरुनूय आमी काँग्रेसिच्या बावट्याखाला रावले.

वेंचणुकांचे नगारे वाजूंक लागचे आदींच एकचार सभांच्या जैताक लागून वगडायिल्लो आवाज परत मेळयिल्ल्या किरिस्तांव समाजान 'युनायटेड गोवन्स' नांवाचो एक पक्ष स्थापन केलो. ह्या पक्षाचें धोरण आमकां खुबच लागिंचें आसलें. आयज गोंयचें घटक राज्य आनी फाल्यां कोंकणी राज्य अशी घोशणा त्या पक्षान दिल्ली. पूण त्या पक्षाच्या जाळवणदारांची आपल्या बळग्याविशीं भ्रामक कल्पना आसली. आंकड्यांचें गणीत आमी तांकां

समजावपाचो यत्न केलो. चाळीस टक्के किरिस्तांव मतदार तुमच्या पक्षाकडेन एकनिष्ठ रावले जाल्यार लेगीत तुमकां बारा जागे मेळूं येतात. पूण काँग्रेसिच्या पालवान १६ जागे जिखप कठीण वचचें ना. काँग्रेसी कडेन तडजोड केली जाल्यार दोनय पक्षांच्या फायद्याचें जातलें. पूण आपल्याक कुशीक काडपाचो हो कट असो दुबाव घेवन युगोच्या जाळवणदारांनी प्रतिसाद दिलो ना.

काँग्रेसिच्या जाळवणदारांक काँग्रेसी विशीं सुमाराभायर आत्मविस्वास दिसतालो. कांय जाण तर अशें म्हणटाले, 'एखाद्या फातराक शेंदूर लावन काँग्रेसिचो उमेदवार म्हणून उबो केलो जाल्यार तो वेंचून येतलो'. हो दावो गोंयच्या वातावरणाकडेन मेळ घालना हेंय आमकां समजतालें. निमाणें आमी थारायलें, काँग्रेस पक्ष बुडटलोच. पूण तो केंद्रांत सत्तेर उरतलो. देखून काँग्रेसी सांगातान रावप गोंयच्या हिताचें जातलें. आमी तशेंच केलें.

दुसरे वाटेन महाराष्ट्रांतल्या राजकी फुडाऱ्यांच्या आशिर्वादान स्थापन जाल्ल्या मगो पक्षाकडेन कसलीच संघटना नासली. आनी त्या पक्षाच्या फुडाऱ्यांमदीं शिस्तय नासली. आपल्या पक्षाक वेंचणुकेंत जैत मेळत हें तांकां सपनांत लेगीत दिसूंक नासलें. पूण वेंचणुकेचो प्रचार चलता आसतना फुडाराचें चित्र स्पश्ट जायत वतालें. निकाल अपेक्षेप्रमाण लागलो. गोंय प्रदेशांत मगोक १६ आनी युगोक १२ जागे मेळ्ळे. धर्मीक आनी जातीय ध्रुवीकरण जाल्लें. धर्मनिरपेक्षतेचो पुरस्कार करपी काँग्रेस पुराय हारलो. पूण हो कौल भाशेखातीर नासलो वा गोंयच्या राजकी फुडाराखातीरय नासलो. गोंयच्या इतिहासांत पुर्तुगेज राजवटींत हिंदुंच्या वांट्याक अपमानाची जीण आयिल्ली. ताचो सूड घेवचेखातीर हिंदू संघटीत जाल्लो. आनी स्वतंत्र गोंयांत अल्पसंख्यांक जमात संघटीत रावली जाल्यारच आपली राखण करूंक पावतली ह्या विचारान किरिस्तांव मतदार युगोच्या बावट्याखाला एकठांय आयिल्लो. हाताच्या बोटार मेजपाइतले किरिस्तांव आनी हिंदू धर्मनिरपेक्षतेचो पाखो घेवन काँग्रेसी कडेन एकनिष्ठ राविल्ले.

पूण वेंचणुकेचो निकाल आयलो आनी महाराष्ट्रवादाक नेट आयलो. लोकांनी विलीनीकरणाखातीर कौल दिला अशें मराठीवादी व्हडाव्हडान सांगूंक लागले आनी महाराष्ट्र सरकाराय केंद्राचेर दडपण हाडूंक लागलें.

गोंय विधानसभेची पयली वेंचणूक जावचे आदींच समाजीक आनी संस्कृतीक मळाचेर कोंकणीक तेंको दिवपी खुबशो घडणुको घडिल्ल्यो. पयलेच खेपे अ. भा. कोंकणी परिशदेची बसका गोंयांत भरिल्ली. 'नवें गोंय' पत्रिका सुरु जाल्ली. खासा हांव 'त्रिवेणी' नांवाचें हिंदी-मराठी-कोंकणी अशें त्रैभाशिक सप्तकी नेमाळें चलयतालों. पूण ही साधना मराठीवादी आनी महाराष्ट्रांतल्या विस्तारवाद्यांच्या प्रचाराक जाप दिवंक दुबळी थारताली.

आमकां गरज आसली ती एका परिपूर्ण दिसाळ्याची. फुडें कशें जाता तें जावं अशें येवजून 'राष्ट्रमत' दिसाळें आमी सुरू केलें. दिसाळ्याक प्रतिसाद बरो मेळ्ळो, पूण वेंचणुकेचो निकाल तें बदलूंक पावलें ना. जालेंय जाल्यार 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यान फुडें मराठींतल्यान कोंकणीची वकिली समर्थपणान केली आनी १९६७ वर्साच्या ओपिनियन पोलाचो निकाल संघप्रदेशाचे मागणेक तेंको दिवन गेलो हाचें श्रेय 'राष्ट्रमता'क मेळूंक फावो. त्या उपरांतय राष्ट्रमताचो वावर हो कोंकणीक पोशक आनी पूरक असोच आसलो. कोंकणीच्या जैताच्या एकेका पांवड्यार राष्ट्रमताचो सांगात आसलो, ही गजाल कोणच न्हयकारचो ना. खरें म्हळ्यार 'राष्ट्रमत' हें कोंकणी चळवळिचें वेगळावंक नजो अशें आंग जावन बशिल्लें. निश्ठावंत कोंकणी भक्तांचें एक पथक 'राष्ट्रमतां'त काम करतालें आनी ताच्या धोरणांक दिशा दितालें. फकत 'राष्ट्रमता'विशीं बरोवपाचें जालें जाल्यार तो एखाद्र्या स्वतंत्र लेखाचो विशय जावं येता. तुर्ताक हांव 'राष्ट्रमता'विशीं चड बरोवपाक सोदिना.

वेंचणुकेच्या राजकारणाचें आमचें गणीत चुकिल्लें. निकाल आमकां अनपेक्षित नासलो तरी निर्शेल्ल्या कोंकणी समर्थकांक धीर कसो दिवचो आनी जैत मेळिल्ल्याच्या भ्रमांत आशिल्ल्या मराठी समर्थकांचे मुद्दे क[illegible] खोडून काडचे असो प्रस्न आमकां पडलेबगर रावलो ना.

आमी आंकडे पुंजायले. ३६ टक्के मतदारांनी युगोक मत दिल्लें. सुमा[illegible] २० टक्के मतदारांनी काँग्रेसीक मत दिल्लें आनी उरिल्ल्या ४४ टक्के मतदारांनी मगोक मत दिल्लें. कोंकणी भास आनी घटकराज्य ह्या प्रस्नावयली काँग्रेसचीं मतां संदिग्ध आसलीं तरी म.गो. आकाराक येत सावन मराठीवाद्यांनी काँग्रेसिचो सांगात सोडिल्लो. युगो हो पक्ष तर उकतेपणान कोंकणीचो आनी घटकराज्याचो पाखो घेवपी पक्ष आसलो. आमी मतदारांच्या आंकड्यांवेल्यान सिद्ध करपाचो यत्न केलो, चडावत गोंयकारांक कोंकणी जाय, विलिनीकरण नाका. ह्या प्रचाराचो परिणाम जालेबगर रावलो ना. पं. जवाहरलाल नेहरूंसारक्या राष्ट्रपुरसाच्या आश्वासनाचें फाटबळ आमचेकडेन आसलें. ताका लागून ओपिनियन पोल घेवपाची येवजण आकार घेवंक पावली आनी विलिनीकरणाचें राजकारण सदांखातीर सोंपलें.

पूण ते आदींच आमी दुसरे भाशेन विचार करूंक लागिल्ले. भारतांत वट्ट कोंकणी लोक कितलो? सारको आंकडो कोणाकच खबर नासलो. शीरगणतेचे आंकडे सारके नात म्हणपाविशीं दोन मतां नासलीं. खासगी संस्थांनी केल्ल्या सर्वेक्षणाच्या आदारान जगांत ४० लाख लोक कोंकणी भास उलयतात असो निश्कर्ष आमी काडटाले. गोंयांत तेन्ना फकत ७ लाख कोंकणी उलोवपी लोक रावताले. उरिल्ले ३३ लाख खंय आसात? आपले आवयभाशेविशीं ते उदासीन कित्याक? आमकां कोणेंतरी सांगलें, कर्नाटकांत १६-२० लाख कोंकणी भाशीक आसात. आमकां दिसचें, कोंकणी चळवळ कर्नाटकांत पावयली जाल्यार महाराष्ट्रवादाच्या विळख्यांतल्यान कोंकणीची सुटका जावं येता आनी ते दिकेन आमी यत्न केले. पूण कर्नाटकांत कोणाकडेन संपर्क सादपाचो?

मुंबयच्या आकाशवाणी केंद्राचेर काम करतना चार्ल्स फ्रान्सिस द कोश्ता नांवाच्या एका संकोची मंगळुरी कवीकडेन वळख जाल्ली. तो रेडियोखातीर कविता बरयतालो. कथा आनी नाटकुलींय धाडटालो. 'पयणारी' नांवाची पत्रिकाय चलयतालो. 'बेस्ट' कंपनींत काम करतालो. ताचेकडेन म्हजी इश्टागत रोखडीच वाडिल्ली. वरांचीं वरां आमी इराणी हॉटेलांत बसून तरेकवार गजाली करताले. एकामेकांच्या सुख-दुख्खांत वांटेकार जाताले. फुडें हांव दिल्लीक गेलों आनी सी.एफ्.द. कोश्ता मंगळूराक परतलो. आमचेमदीं पत्रवेव्हार चलतालो.

कर्नाटकांत कोंकणी चळवळ ते आदींय चलताली. पूण ते चळवळिकडेन आमचो संपर्क येनासलो. चड करून मंगळूर शार हें कोंकणी साहित्यिक प्रवृत्तिचें मुखेल केंद्र आशिल्लें. थंय साबार पत्रां उजवाडाक येतालीं. कथा, कादंबरी, कविता, नाटक असलें साहित्य निर्माण जातालें. पूण तें सगलें कन्नड लिपयेंत आसलें. देखून ते प्रवृत्तिचें कार्यक्षेत्र मंगळूर वा चडच जाल्यार दक्षिण कन्नड जिल्ह्यापुरतेंच बंदिस्त उरिल्लें.

मंगळूराक वतकच म्हाका कळ्ळें की जाका आमी सी.एफ्.द. कोश्ता म्हणून वळखतात ताका थंयचे लोक 'चाफ्रा' ह्या नांवान वळखतात आनी मानतात. दोन दीस मेरेन चाफ्राकडेन उलोवणीं केल्लीं तेन्ना म्हाका समजलें, कोंकणी साहित्यिक चळवळींत किरिस्तांव तितले वांटो घेतात. हिंदूंचो कोंकणीक विरोध नासलो तरी ते कुशीक रावतात. आनी खंतिची गजाल ही की ख्रिस्ती आनी हिंदू समाजामदीं संपर्क ना. 'पंचकाद्य' नांवाची एक पत्रिका बी. व्ही. बाळिगा चलयताले. तिचें स्वरूप काशी मठाच्या अनुयायांचें मुखपत्र कशें आसलें.

वावराक खंयच्यान सुरवात करची तें म्हाका समजलें ना. गोंयांतल्या हेर कोंकणी भक्तांनी व्हडलिशी उमेद दाखयली ना. गोंयांतच आमचें बळगें उणें पडटा जाल्यार कर्नाटकांतल्या वावराची जापसालदारकी उखलप पिशेपणाचें जातलें अशें तांकां दिसतालें. हांवें मनांत दोन संकल्प केले.

समाजाचे मार्फतीन कोंकणीखातीर चळवळ सुरू करचेली आनी
क लार्गी ओडपाचो यत्न करचेलो. किरिस्तांव समाजाचेर इगर्जेचो
टो. बिशपाच्या आसऱ्याखाला 'राखणो' हें सप्तकी पत्र चलतालें
हजारांनी प्रती खपताल्यो. पूण बिशपा म्हन्यांत वतलों जाल्यार
हरू नाका अशी शिटकावणी म्हाका चाफ्रान सुरवेकच दिल्ली.
विचारसरणेचो चाफ्रा हो कामगार संघटना चलयतालो आनी
इस्पित्ळांत संप घडोवन हाडपाची तयारी त्या वेळार ताणें

कलोच बिशपाक मेळून आयलों. एका खिस्ती बिशपाच्या
संस्कृतप्रचूर कोंकणी आयकून हांव खुबच प्रभावित जालों.
नय म्हाका सांगलें, 'कोंकणीच्या वावराक आमचें सगलें फाटबळ
पूण बरे मनीस सोदून काड. चाफ्रा उपकारचो ना.'
च निर्माण जाल्लो. आमचीं मनां, आमच्यो भावना, आमची
चे हावेस, आमचे प्रस्न चाफ्राबगर दुसरो कोणूच समजनासलो.
पयशे नासले, पूण संघटनशक्त आसली. ताचेकडेन प्रतिभा
हांवें मंगळूरच्या कोंकणी लेखकांची एक बसका घेतली. थंय
कणी भाशा मंडळ स्थापन करचें असो एक प्रस्ताव मांडलो.
जालो.
ना हांव मणिपालाक देंवलों. डॉ. टोनसे माधव अनंत पै हे
कोंकणी परिशदेच्या उडुपी संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष आसले.
य सहकार्याचें उतर दिलें.

मंगळूरचें कोंकणी भाशा मंडळ सुरू जावंक सुमार स म्हयने लागले. ह्या काळांत हांव सात-आठ खेपे मंगळूराक वचून आयलों. थंयचीं झगडीं पालोवपाचो यत्न केलो. चाफ्रा विशिंचें बिशपाचें मत्त बदललें ना, पूण विरोध उणो जालो. १ जानेवारी १९७५ दिसा म्हज्या हातानच मंगळूर भाशा मंडळाचें उक्तावण जालें. आनी तेन्नाच्यान कर्नाटकांतले कोंकणी चळवळीक एक वेगळोच नेट आयलो. तातुंतय श्री. के. के. पै (जे तेन्ना सिंडिकेट बँकेचे अध्यक्ष आसले) १९७४ वर्सा पणजे भरिल्ल्या अ. भा. परिषदेचे अध्यक्ष जाले, तेन्नाच्यान कर्नाटकांतलो हिंदू समाज चड आस्थेन आनी व्हड संख्येन कोंकणी चळवळींत सामील जावंक लागलो. केरळांत ते आदींच संघटित चळवळ चलताली. अ. भा. कोंकणी परिशदेची प्रवृत्ती फुडें वाडली तशी देशांतले कोंकणी चळवळीक वेगळे आयाम मेळ्ळे आनी तिचे संदर्भ बदलले. केरळांत मल्याळम उलोवपी बरोवपी कोंकणी भाशीक आसले, जांचो मराठीकडेन कसलोच संबंद नासलो. कर्नाटकांतल्या कोंकणी लेखकांचो आनी वाचकांचो कन्नड भास आनी साहित्याकडेन संबंद आसलो तरी मराठीचो स्पर्श तांकां जावंक नासलो. आनी हे सगले लोक कोंकणीच्या व्यासपिठाचेर एकठांय येवंक पाविल्ले.

त्या वेळार हांवें एक विचार मांडलो. भुगोलिक आनी संस्कृतीक नदरेन आर्य भारताक द्रवीड भारताकडेन जोडपाचें काम कोंकणी भास आनी प्रदेश करता. कोंकणी हो भारतीय एकात्मतेचो एक पूल. हो पूल जितलो घट जायत तितली भारतीय एकता घट उरतली.

* * *

---

मनीस हो हेर जनावरांपरस कितलोसोच वेव्हारी. चड करून तो कुंवाळो मेळटा जाल्यारूच आंवाळो दिवपी. फळाचेर दोळो दवरुनूच कामाक हात घालपी. पूण एक भोव मजेची गजाल म्हळ्यार, मनीस जितलो चड फळाची आस्त बाळगिता, तितलोच तो उणें काम करता. खरें म्हळ्यार फळाचे वेध लागिल्ल्यान जी शक्त आनी बुद्द तो वगडायता ती काम करपाकडेन उणी पडटा. फळांतूच ताचें मन घुस्पता आनी फुडाराच्या सपनांत तें रंगता. आनी, आपलो फायदो जावपाचो नासल्यार ताची काम करपाची उर्बाच सोंपता.

असले कर्महीण जिणेपरस फळाचे आस्तेंतल्यान मन मुक्त जायत तितलें तें पुरायेन कर्मांत उरता. असलें मन कर्म आनी फळ हांची तुळा करपांत घुस्पना आनी मागीर मनशाची पुराय जीण, शक्त आनी बुद्द फक्त कर्माचेरच थिरावताली. हाका लागून बरें फळ मेळपाची शक्यतायूय वाडटाली. हाचे उरफाटें म्हळ्यार जाचें सगळें ध्यान कामांत पुरायपणान एकवटिल्लें नासता ताचे बाबतींत फळाची शक्यताय उणी जाता.

भगवद्गीतेंत सांगलां – कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन्। मा कर्मफल हेतुर्भु ते संगोस्त्व कर्मणि – कर्माचेरच आपलो अधिकार आसता. आमी वर्तमानांत जियेतात आनी कर्माचेरच आमचो शेक चलता. आपली जापसालदारकी बरे भशेन पाळप हेंच आमचें मुखेल कर्तव्य. भविष्यकाळाचो होलम लागपाक कठीण. फुडाराची आस्त बाळगप म्हळ्यार निर्शेलेपण बाळगिल्लेभशेन. देखून फळ मेळटलें काय ना, मेळ्ळ्यार कितें मेळटलें ह्या चिंतनांनी वेळ वगडावचो न्हय. आपलें काम करीत रावचें. आनी फळाची चिंता देवाचेर सोडची.

जेजून सांगलां – जो जें सांबाळून दवरतलो ताका तें वगडावचें पडटलें आनी दुसऱ्याक जो दिवन उडयतलो ताका देव सगलें दितलो. जो आपणाक वाटायता तो देवाक वगडावन बसता. आनी, आपणाक वगडायता ताकाच देव मेळटा.

— **सरिता नारायण देसाय**

# 'पुंडलीक नारायण नायक – साहित्यसुची':

## कोंकणी संशोधनात्मक साहित्यांत म्हत्वाची भर



**माधव बोरकार**

कोंकणी साहित्याच्या मळार कांय आंगां दुबळीं उरल्यांत. तांतुंतलें एक संशोधनाचें. आज कॉलेज तशेंच विद्यापिठाच्या पांवड्यार कोंकणीचो आस्पाव जाल्ल्यान संशोधन करपाची गरज लागल्या. ही शैक्षणिक गरज. तेच भशेन आपखोशयेन संशोधन करपीय आमचे मदीं आसात. कोंकणी भाशेचो, साहित्याचो अभ्यास इतिहासाचे नदरेन करपी संशोधकांची गरज आयचे घडयेक जाणवता. हीं दुबळीं आंगां भरून काडून कोंकणी भाशेक घट आनी गिरेस्त करपाच्या वावराक अभ्यासक लागल्यात ही व्हडे खोशयेची गजाल. हे वाटेवयलें एक पावल म्हळ्यार 'पुंडलीक नारायण नायक – साहित्यसुची (वर्णनात्मक) हें प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांचें पुस्तक.

संवसारीक साहित्यांत सुची साहित्याक खूब म्हत्व आसा. बरप्यांच्या लेखनाचीच न्हय तर कांय साहित्याक ओंपिल्लीं नेमाळीं वर्साचे अखेरेक त्या त्या वर्सा प्रसिद्ध जाल्ल्या बरपाची सुची उजवाडायतात. मराठींतलें 'सत्यकथा' सारकेलें नेमाळें वा Indian Literature वा 'समकालीन भारतीय साहित्य' हीं साहित्य अकादमीचीं नेमाळीं अशे तरेची सुची उजवाडायतात. ताका कोंकणींतलें 'जाग' हेंय नेमाळें आडवाद ना.

पुंडलीक नायक फाटलीं सुमार तीन दसकां बरयतात. कथा, कविता, नाटक, नवलिका अशे वेगळेवेगळे साहित्यप्रकार तांणी केळयल्यात. ताका लागून तांच्या साहित्याचेर अभ्यास करतल्यांक प्रियदर्शिनी तडकोडकारांनी तयार केल्ले सुचिचो बेस बरो उपेग जातलो. ही सुची तांणी तयार करपाचो वावर हातांत कित्याक घेतलो हे संबंदान त्यो सांगतात: ''दोन वर्सांपयलीं गोंय विद्यापिठांत कोंकणी घेवन एम्.ए. करतल्यांखातीर अभ्यासक्रम सुरू जालो. तेदेवेळार वेगळ्यावेगळ्या लेखकांचेर आनी विशयांचेर जशें वाचप सुरू केलें तशें लक्षांत आयलें, ह्या बरोवप्यांचें लेखन वाचतां खरें, पूण तें पुराय न्हा. त्या त्या पेपराची एक तत्पुरती आदारावळ, म्हळ्यार सुची हांवें केली. पूण ती लेगीत पुराय ना हाची खंत सदांच भोगताली.'' हाचोच अर्थ, अभ्यासाचे गरजेंतल्यान ही सुची तयार जाली. अशे तरेच्या सुचिंचे उपेग आनी स्वरूप हाची विसकटावणी करतना त्यो सांगतात, ''सुची ह्या उतराक आनीक एक अर्थ मेळटा. तो म्हळ्यार, कसलीय वस्त शिंवपाची सूय. सूय जशी नकसूदपणान आनी अळंगपणान जायत्या तरांच्यो गजाली (कपयो बी) शिंवून त्यो एकठांय दवरपाचें काम करता, कांटो खंय तोपला थंय नकसूदपणान तोंपून दाखयता तेच तरेन अथक परिश्रम करून एकठांय केल्ले संदर्भ नकसूदपणान सोदपाचें काम ही सुची करता.'' तशेंच सुची हाचो शब्दकोशांतलो अर्थूय त्यो दितात.

संशोधनाच्या मळार ज्यो वेगळ्योवेगळ्यो सुची आसात त्या संबंदान थोडेभितर केल्ली चर्चाय ह्या पुस्तकांत मेळटा. देखीक, टीकात्मक वा विवेचनात्मक सुची, सारसुची, ग्रंथ आनी नेमाळ्यांची सुची, ग्रंथालयीन सुची आनी आनीक कांय हेर तरांच्या सुचीं संबंदान मोलादीक माहितीय सुचीकार तडकोडकार दितात. तशेंच तांचो संशोधकाक कसो उपेग जाता हाचेर उजवाड घालतात.

'आयच्या इंटरनेटाच्या युगांत कोंकणीच्या अभ्यासकांक सुची तयार करपाखातीर जाय आशिल्ल्यो अत्यंत साधारण गजालीय सहजतायेन उपलब्ध जायत अशी परिस्थिती ना' अशें तडकोडकार म्हणटात आनी अशे तरेच्यो सुची कोंकणीच्या अभ्यासकांक कितल्या उपेगाच्यो हे गजा[...] भर दितात. आनी देखून सुची तयार करपाच्या वावराचें मुळाव[...] घालचेलो यत्न केला अशें म्हणप चड बरें जातलें.

पुंडलीक नारायण नायक फाटलीं तीन दसकां कोंकणींत बरयतात[...] तांचे संबंदान जायतें बरप दुसऱ्यांनीय बरयल्लें आसा. तशें पळोवंक[...] सुची तयार करपाचें काम सोंपें न्हय. ताका चिकाटी लागता आनी[...] भाशेन स्रम घेवचेली तयारी सुचीकारान दवरची पडटा. आमच्या[...] सगळे संदर्भ एकठांय मेळचेली सोय ना. ताका लागून अशे तरेच्या वा[...] खूब आडखळी येतात. ही गजाल लक्षांत घेतली जाल्यार तडकोडका[...] केल्ल्या वावराची फाव ती नोंद घेवची पडटली. हे सुचींत पुंडलीका[...] प्रकाशित पुस्तकांतलें साहित्य तशेंच उजवाडा आयिल्लें पूण संग्रहा[...] रुपांत येवंक नाशिल्लें साहित्य हांचो आसपाव आसा. फकत नोंदी दि[...] त्यो रावनात तर प्रत्येक कथा, नाटक, कादंबरेचेर तांणी थोड्याच व[...] बरयल्लीं टिपणांय दिल्यांत. तांचेवरवीं पुंडलीकाल्या साहित्यीक कर्तृ[...] बेस बरी वळख मेळटा. तशेंच, पुंडलीकाल्या साहित्या संबंदान उजवा[...] आयिल्ली समिक्षा आनी परिचयात्मक बरप हांचीय नोंद ह्या पुस्तक[...] मेळटा.

विशयाचे व्याप्तीक लागून जायत, तशेंच हेर अडचणींक लागू जाय[...] कांय म्हत्वाच्या गजालिंच्यो नोंदी जावंक पावंक ना. देखीक, १९७३-[...] वर्सा पुंडलीक 'पारजत' नांवाचें कवितेक ओंपिल्लें दों-म्हयनाळें संपादी[...] करतालो. ताचे तीन आंक उजवाडा आयले. सुरवेक 'परजळ' ह्या नांवा[...] एक चक्रमुद्रित आंक प्रसिद्ध केल्लो. ताची नोंद हे सुचींत खंयच दिसली[...] तशेंच, 'श्रीविचित्राची जात्रा' ह्या नाटकाचो डॉ. अरूण हेबळेकार हां[...] 'The Fair of the Unfair' ह्या नांवान केल्लो आनी 'Indian Literature[...] ह्या साहित्य अकादमीच्या नेमाळ्यांत प्रसिद्ध केल्लो इंग्लीश अणका[...] नोंद जायनासतना उरला. ताचोच आसपाव मागीर प्रतिची १९८७ ह[...] साहित्य अकादमीन उजवाडायल्ल्या Literary Digest त जाला. म[...] म्हळ्यार, पान नं. ८१चेर 'प्रतिची'चो उल्लेख आसा तो संपादकिया[...] केल्ल्या उल्लेखाक लागून. खासा सुचीकारानूच म्हळां: ''सुची अद्यावत[...] जाय हें खरें. पूण स्थळकाळाचीं बंदनां सुचिचे आड येतात ''

हे कांय उणाव आडवाद आसले तरी प्रियदर्शिनी तडकोडकारान ही[...] सुची तयार करून कोंकणी साहित्य आनी भास ह्या विशयांचेर संशोध[...] करतल्यांक आपले परीन वाट दाखोवचेलें काम केलां. ते खातीर तांका[...] परबीं दिवंक जाय.

* * *

**पुंडलीक नारायण नायक: साहित्यसुची**
**(वर्णनात्मक)**
**प्रियदर्शिनी तडकोडकार**
**केदार प्रकाशन गृह, गोंय, १९९९**
**पानां: ९०; मोल: रु. ५०/-**

